# काणी एके जिणेची

सुजाता सिंगबाळ




बिम्ब प्रकाशन

काणी एके जिणेची

सुजाता सिंगबाळ

Kanni Eke Jinnechi
(Konkani Novel)
by Sujata Singbal

प्रकाशन क्र. १८





पयली आवृत्ती
मार्च २००३

छापणावळ :
इम्प्रेशन
बी-२ 'अक्षर आर्केड'
३३६०/४, गोंधळी गल्ली,
बेळगांव-५९०००२
फोनः०८३१-४२१२



अक्षर जुळणी
बिम्ब प्रकाशन

मूखचित्र :
डॉ. सुबोध केरकार

'पंयलो चंवर' येवजणेंत गोंवा कोंकणी अकादेमीच्या पालवान ही कादंबरी प्रकाशित केल्या.

प्रकाशक :
दिलीप बोरकार
बिम्ब प्रकाशन
परवरी - गोंय.

मोल : पन्नास रुपया

# एक बरो प्रयोग

**पा**तक आनी पुण्य हयो मनीस मनाच्यो दोन भावना. पुण्याचो विचार करतना मनांत विरक्ती दादून येता आनी पातक म्हळें म्हणटकच मन आसक्तीन उचंबळून येता. हया अवस्थांचो अणभव दर एका मनशान आपले जिणेंत घेतिल्लो आसता.

जण एकल्याचे जिणेंत एकाद्रे पात्र येता आनी चांन्याचे पसयेवरी तें नदरेआड वता. पूण कांय पात्रां अशीं आसतात जीं काळजाचे कोठयेंत खंय तरी बशिल्लीं उरतात आनी वयले वयर तांचो उगडास येत रावता. आपले जिणेचेरच न्हय तर विचारांचेर आनी कृतिचेरय त्या पात्रांचो प्रभाव उरता आनी तेन्ना तातुंतल्यान एक बरी कलाकृती निर्माण जांवक पावता.

'काणी एके जिणेची' ही अशीच एक सुटसुटीत, साधी, सरळ कथा. ते कथेंत सत्याचो भाग कितलो आनी कल्पनेचो कितलो हें लेखिकेकच खबर; पूण आडपड्डो दवरिनासतना मेकळेंपणान नायिकेचें निवेदन आयलां तें वाचतना नायिकेचें पात्र दोळयांमुखार उबें रावता आनी निर्विकार तटस्थतायेन ती आपले जिणेची काणी कथन करता. पूण त्याच वांगडा आपली काणी भुरग्यांक समजुची न्हय अशी नायिका जतनाय घेता.

लेखिकेक ती सांगता 'कि काणी लागशिल्याक आनी पयसुल्याक कळची ना अशेतरेन तूं ती बरोवन काड'. लेखिकेन तें काम बेस बरें केलां. कोंकणी साहित्यांत कादंबरी हो साहित्य प्रकार हाताळिल्ले लेखक चडशे नात. ज्यानी समर्थपणान कादंबरीचो प्रकार हातळलो तांच्या व्याक्तिमत्वाचो आनी प्रतिभेचो प्रभाव त्या त्या कादंबरीचेर पडला............ ती चाकोरी सोडून स्वतंत्र मार्ग

आपणावपी जे कांय नवे लेखक कोंकणीत आसात तांच्यातली सुजाता सिंगबाळ ही एक लेखिका जावन आसा. मराठी कथा क्षेत्रांत तरेकवार प्रयोग केले उपरांत सुजाताबायन कांय सुरबूस कोंकणी कथा आनी कादंबरीका बरयल्यात. समाजांत वावुरता आसतना प्रवासांत, ना जाल्यार खंयच्या तरी सामाजीक मेळाव्यांत, लग्नाच्या माटवांत बशिल्लेकडेन, संमेलनांत वावुरतना, ना जाल्यार बशींत भोवतना तांचे जिणेंत खुबशीं पात्रां आयलीं. तातुंतलीं जीं व्यक्तिमत्वां आगळींवेगळीं दिसलीं तांचें चरित्र आनी चारित्र्य तपासून ताणीं हें कथानक उबें केलां. संसारातली विविधताय, मनशामनशांमदें वेगळेंपण, साद्या, साद्या घडणुकांतल्यान एक एक पाकळी उकती करपाची, नाजुकसाण आनी वेंचीक उतरांच्या आदारान ती वाचप्यामुखार दवरपाची हातोटी वाखाणपासारकी आसा. कांयकडेंन पाल्हाळ जालो आनी कांयकडेन पुनरुक्ती जाली तरी वाचकाचो विरस जायना. कथानकाच्या ओघात ती पुनरुक्ती गरजेची अशें दिसूंक लागता.

एक गजाल मात नदरेन भरल्या बगर रावना. जेन्ना तरेकवार भावनांचे सूक्ष्म तरंग पात्रांच्या काळजांत झंकारतात तेन्ना ते अवस्थेचें वर्णन करपाक लेखिकेक समर्पक उतर मेळना आनी ताका लागून ते भावनेची कल्पना दिवपा खातीर ती विचारांचो विस्तार करता. ताका लागून वाचपाच्या तन्मयतेंत खंड पडना आसलो तरी कथाप्रवाहाची गती मंदावता.

लेखिकेक कथानकाचें भान आसा. त्या कथानकांत दर एका पात्राचें वेगळें स्थान ती जाणा. ताकालागून एका बऱ्या पुस्तकाची कोंकणी साहित्यांत भर घालपाचें श्रेय तांका फावता.

**चंद्रकांत केणी**




१

**ही** काणी एके बायलेची. तिजे जिणेंतल्या सुखाची, दुख्खाची, मानाची, अपमानाची, मोहाची आनी तिज्या वेगळया विचारांचीय. तिजे काणयेंत अभिमान ना, अहंकार ना, दुख्ख फुलोवन सांगपाचें ना. जी जीण ती जगली. तिजे जिणेंतल्या दुख्खाक तिणें मनांतले बंदखणींत घाल्लें. पूण आपलेपणाच्या उतरांनी तिज्या मनांतल्या दुख्खाच्या धगार थंड उदक शिपडलें. आपली काणी तिका सांगचीशी दिसली.

ती म्हाका तिज्या घरकाराच्या मरणाउपरांत मेळ्ळी. ओळख जाली आनी युगायुगाचें नातें आशिल्ल्या भशेन आपल्या मनाचीं दारां तिणें उक्तीं केलीं. खरेंच केन्ना केन्ना रगताचें नातें आसतना मनां जुळनांत पूण वळख नासतना आदरान जल्मल्ले ऋणानुबंध आशिल्ल्याभशेन मनां जुळटात ! तिज्या म्हज्या मदीं आसलें वयाचें अंतर आनी संकोच पिकिल्ल्या पानांभशेन गळून पडलो!

ती म्हाका सांगूक लागली.

"आगो आज म्हाका जिणेंतलें कितेंय लिपोवचेंशें दिसना. जिणेची सांजवेळ जाल्या. मरण चोरपावलांनी केन्ना उडी मारत तें सांगू नजो. म्हजो घरकारय आज ना. भुरगीं तांगेल्या संवसारांत घुस्पल्यांत. आज कोणय कितेंय म्हणत हाजो भंय दिसना. म्हजी काणी आयकून कोणय शी थू करत काय? असोय प्रश्न मनांत येता. हांव फक्त म्हज्या अंर्तमनाचो तळ सोदतां . म्हज्याच मनाक, विचारांक तपासून पळयतां.

भुरगेपणांतलें हांव ........कळी फुलता ताच्या वळणावयली म्हजी जीण. .......संवसारांतल्या जाळ्यांतल्यान मुक्त जातनां आज म्हज्याच अस्तित्वाची

पाऊलखुणां सोदपी हांव वळणावळणान वाट काडून, फुलांनी, कळयांनी भरिल्ली वाट माड्डयत हांव आज ह्या वळणाचेर पावल्यां. वाट चलतना मनाचेर जाल्ल्या जखमांची ही काणी. हुलपल्ल्या सपनांची ही काणी.

म्हज्या मनाक पडिल्ल्या प्रश्नांची ही काणी. त्या प्रश्नांचीं उत्तरां सोदतां सोदतां जीण सोपत आयली पूण कांय प्रश्नांचीं उत्तरां मेळूंक ना.

खिणयाळी तृप्ती आनी उपरांत धगान भाजिल्ली जीण. विरक्ती आनी आसक्ती ह्या दोन टोकांनी घुस्मटपी म्हजें मन. पाप आनी पुण्य ह्या कल्पनांक तळागाळांतल्यान ढवळून काडपी म्हजे विचार . बुरखो घालून तृप्त मनान जगपाचो कितलो यत्न केलो हांवें. पूण मनच तें...... मनांत येवपी विचारांक फाफसून घालप जमलें ना म्हाका आनी मागीर जिणेंत वेगळेच खीण आयले. त्या खिणांची सावळी सगळे जिणेर पातळ्ळया..

म्हजे काणयेक कल्पनेच्या रंगान न्हाणोवन तूं बरोवन काड. नांव, गांव काणयेचो तोंडावळो कल्पनेन सजय. तुका सांगून मन पिसाभशेन ल्हव जालां. पूण ही म्हजी काणी हें कळ्ल्यार म्हजे जिणेचेर ताजी सावळी पडटली. हांव ताका भियेना. म्हजीं भुरगीं आसात. तांचो संवसार आसा. तांका ताजो त्रास जातलो. तें म्हाका नाका. म्हाका बरोवपाक आयिल्लें जाल्यार हांवच बरोवन काडटलें आशिल्लें."

ती उलयताली.

तिजें भुरगेंपण ....... .उमलपी मन....... संवसार ,.......म्हज्या दोळयांमुखार धावतें चित्र तयार जालें

....तिजीं उतरां .......तिजी काणी ..... ....ती हालींच हें जग सोडून गेली....... तिजी काणी मनांत आज अस्वस्थतायेची सावळी पातळायता. आज दोळयांमुखार ते खीण घडिल्ल्याभशेन दिसतात.........द़ीस वतकच घडये त्या खिणाचो रंगय उडटलो......काणयेंतली ती बायल अनवळखी जातली म्हाकाच. म्हूण ती काणी बरोवंची शी दिसली.

तिणेंच सांगिल्ली तिजी काणी.

२

म्हजी काणी म्हाका सांगचीशी कित्याक दिसली? मरपाक आयिल्ल्या खोडाक आतां नवी आंकरी फुटची ना आनी कोमच्योय फुटच्यो ना. रानाक उजो लागतकीर सगळें रान जळून वता पूण तांतुनय एकाद्रें झाड तगता. तशेंच म्हजें मन. अजुनय मन जिवें आसा. ताका लागूनच हें सगळें सांगचेंशें दिसता.

त्या दिसा आयतार .

हय आयतारच! आयतारचीं सगळीं घरातलीं कामां म्हजी सून रेणूच करता. रेणू नोकरी करता. हरशीं घरातलीं सगळीं कामां हांव करतां. आयतारा म्हाका सुशेग. दोन नाती. अनया आनी अपर्णा. आवयबापाय भोवतणी नाचतात. काम ना. मागीर कितें करतलें? सगळो दीस खावपाक येता. सोपून सोपना दीस.

मागीर वारांदांत वचप आनी भायर पळयत रावप. मागीर मन ओगीच गोयांतल्या घरांत पावता. गोयांत कशीं किरणां सामकीं घरांत येतात. नळयावयल्यान, हारशांतल्यान, जनेलांतल्यान ........राजांगणांतल्यान .......वाट मेळत तशीं सामकीं लागीं येतात. . . . . . दारांतल्या आंगणांत पारजतांचो शिंवर. रांगोळी घाल्ल्याभशेन! मन अशेंच घुंवता परत परत गोंयच्या घरांत. कुळारच्या आनी घरच्या यादीनी हांव त्या दिसा अशेंच घुस्पल्लें.

उल्यार उलो मारीत रेणू म्हऱ्यांत आयलें.

'आई'

'कितें गो?'

'आई गोंयांतल्यान काकालो फोन आयला. बाबाक हार्ट अॅटेक आयलो. बाबा आमकां सगळयांक सोडून गेलो.' रेणून सगळें एका दमान सांगलें.

'आई विक्रम तिकीट काडपाक गेला. तुका येवचेंच पडटलें गोंयांत. ना म्हणू नाका'. रेणून सांगलें.

'हय गो येतां हांव'. म्हज्या तोंडांतल्यान कशीं आनी केन्ना उतरां भायर पडलीं तें म्हाकाच खबर ना.

'आई हांव बॅग भरतां. अनयाक दीदीकडेन दवरतां. ताजी फाल्यांच्यान परिक्षा. तूं कपडे बदलता न्ही ?' रेणू भितर गेलें.

म्हाका रेणूची अपुर्बाय दिसता. रेणूसारकी सून मेळप म्हळयार नशीब. खंयच्याय सुखान तें भुल्लूसून वचना. आनी दुखान खंती जायना. विक्रमाकडेन वागतनाय तें तशेंच. ह्या वयांत अशें वागपाक ताका कशें जमता काय! म्हज्या मनांत येता. नाजाल्यार हांव. जिणेंची सांजवेळ जाली तरी पांखां लावन मन अजूनय मळबांत उडटा. सपनां रंगयता. दर एक मनीस वेगळो हेंच खरें.

रेणू गेलें. म्हाका याद जाली म्हज्या घरकाराची. मनांत विचारांचें जाळें पातळलें. निमाणच्या खिणार तरी म्हजी उत्कटतायेन याद आयिल्ली काय ताका?

पिशाभशेन हांवें म्हज्या आंगावयल्यान नदर मारली. गळ्यांतल्या मणयांकडेन पळयलें. फाल्यां गळ्यांत मणी आसचोना. उक्त्या गळ्याचें चित्र नदरेमुखार आयलें. कपलार कुकूम ना. घोवान दिल्ले आनी घोवाच्या मरणाउपरांत परत करचे पडटाले असले हे अलंकार. आज हांव विधवा जाल्लें. मागीर कपलाचेर कुकूम लायतलें कशें? मनांत आयलें म्हजें आनी म्हज्या घोवाचें अशें खंयचें नातें उरिल्लें?

लगाम नाशिल्ल्या घोड्याभशेन विचार धांवताले. खरेंच खंयचें नातें आशिल्लें दोगांय मदीं ? हांव ताजी बायल. भुरग्यांची आवय. नाजाल्यार ताज्या म्हज्यामदीं घोव बायलांमदीं आसता तशें नातेंय नाशिल्लें. मनां तर पयस पाविल्लीं. कितलीं वर्सां एकमेकांक मेळूंक नाशिल्लीं. आवाजय आयकुंनाशिल्लो. पूण तरीय हांव आज विधवा जाल्लें. भावनेचें, मोगाचें नातें केन्ना तुटिल्लें. पूण........

घोवाबायलेच्या नात्याविशीं, संबंधाविशीं कितलेशेच प्रश्न म्हज्या मनांत

आयले. खरेंच घोवाच्या मरणाउपरांत बायलेची जीणच बदलता. आज पयलीं सारकें उरुंक ना. पूण तरीय घोव नाशिल्ली बायल म्हळयार व्हलें नाशिल्लें व्हडें. व्हलवपाक व्हलें मेळतगीर व्हडें परत ल्हारांर जाय त्या भशेन वता. तशेंच बायलेचेंय. दुसरें लग्न जालें, लग्नाक कोणय तयार जालो तर जिणेक परत आंकऱ्यो, कोमऱ्यो फुटतात.

मनांत विचार येताले वताले.

"आई तुजी बॅग भरल्या. विक्रमय आयलो." रेंणून सांगलें.

हांव उठलें. गोंयांत वचपाक. म्हज्या मनांत आयलें . खरेंच कित्याक वतां हांव गोंयांत? घोवाचेर निमाणी नदर घालपाक ? रेणू आपयता म्हण ? की लोक कितेंय म्हणत म्हण ? मनांत विचार आयले. मागीर म्हाका दिसलें हांव वतां म्हाकाच वचचें दिसलें म्हण. पूण तेन्ना म्हाका खंय खबर आशिल्लें खंयची तरी अज्ञात शक्ती मनाक गोंयां घेवन वता.

बारा वर्सांनी हांव गोंयांत वतालें.

विक्रमाच्या लग्नाक धा वर्सां जावन गेल्लीं. विक्रमाक मुंबय नोकरी मेळ्ळी तेन्ना ताज्यावांगडा मुंबय आयिल्लें. ताज्या उपरांत गोंयां वचूं नाशिल्लें. विक्रमालें लग्न गोंयां जाल्लें. तेन्नाय वचूं ना. चवथीक विक्रम वता. पूण हांव गेलें ना. नाका दिसताल्यो त्यो यादी. त्या घरांत घुस्पल्ल्यो कितल्योशयोच यादी. मनशा कणकणी यादी. यादी येतकच मन कष्टतालें. तें सगळें विसरपाक म्हण मुंबय आयिल्लें.

आंगार साडी वोडतना मनांत आयलें. गोंयांत आसतना म्हजेमदीं आनी घोवामदीं झिळझिळीत पडदो आशिल्लो. पूण मुंबय येतकच उरलें फक्त नातें. कायद्याचें आनी फेऱ्याच्या बंधनाक बांदिल्लें नातें.

खरेंच कितें पाप केल्लें हांवें? खंयचेय सुखाचो अणभव खोशयेन घेवन तृप्त जावंक जमलें ना म्हाका. भुरगेपण...... उमलपी वय...... तरणेंपण...... . संवसार ........ सगळे जिणेचेर सावली पातळिल्ली . दुखाचें पडबिंब पडिल्लें. भुरगेपणांत ना आवय ना बापूय अशें वाडलें. शेवतेंआकाचे थोमणे आयकत

भुरगेपण सोपलें. उमलपी वयार मनाक आकऱ्यो फुटताल्यो. कोमऱ्यो फुटताल्यो. .....मोगाचो रोपो वाडचे पयलींच ताका हुमटावन उडोवन जिणेची वाट चलची पडली.

मनाक पडिल्ले कितलेशेच प्रश्न. जल्माविशी पडिल्लो प्रश्न.....आनी मागीर पडिल्ले कितलेशेच पश्न.

हांव गोंयांत वचपाक भायर सरिल्लें. मन मात थाऱ्यार नाशिल्लें. गाडी विमानतळाच्या वाटेन धांवताली. 'हांव आजेच्याच मांडयेर बसतलें......कितल्या तेपान आजी गोंयांत वता न्ही गे मम्मी ? आजे तूं केन्नाच येना आशिल्ली गोंया !' अपर्णा म्हजी नात म्हाका विचारताली.

हांव विमानांत बसलें. विमान गोंयचे वटेन उडटाले आनी म्हजें मनय झोपाळ्यार वयर सकल......

झोपाळयार बशिल्लो तो खीण दोळयांमुखार आयलो..... बारा-तेरा वर्सां आसतलीं. वडाच्या झाडार सुमांच्यो दोरयो बांदून झोपाळो केल्लो. आमी झोपाळ्यार बसतकच मनाक पाखां फुट्टालीं. पाखां नासतना वयर घेवन वतालो झोपाळो. .....एक दीस दोरी तुटली आनी हांव झोपाळ्यावयल्यान पडलें. मुको मार लागलो. आंग धाडावलें आनी शेवतेआकाचीं उलोवणी खावंचीं पडलीं. उलोवणी म्हळ्यार रान्नीतले जळते कोळशे. बाणाभशेन उतरां मनाक लागलीं.

शेवतेंआका म्हज्या बापायची भयण. दुस्मानाचेर तोफो मारपी सैनिक लेगीत एकवेळ कांचवेत पूण शेवतेंआका उतरांच्यो तोफो मारपाक कांचवचेना. तें काशीन न्हेसतालें . हातांनय कांकणां नाशिल्लीं. गळयांत भांगराची सरपळी. टोप घाल्ल्याभशेन कुरळे केंस. पांय आपटीत तें चलतालें.

" शेवत्या पांय आपटून चलू नाका. लक्ष्मी मागिलदारान भियेवन वता". आजी ताका सांगताली. पूण पांय आपटून चलप, तोंडांतल्यान वायट उतरां उलोवप ताणें सोडलें ना.

चित्राभशेन म्हजो गांव. म्हजो जल्म त्या गांवांत जालो. आमोरेर आजी उलो मारताली.

''वसू, भावना, बाबू हातपाय धुवून येयात. परवड म्हणूंक जाय.''

हातपांय धुंवून आमी देवाकुडींत येतालीं. तेन्ना देवाकुडींत दिवली पेट्टाली. वाश्याक लामणदिवोय हुमकळटालो.

''शुभं करोती कल्याणम्''

''आरोग्यम धनसंपदा. ''

मागीर .......

''बे एके बे. ''

''बे दोणे चार''.

चिमणेचो मंद उजवाड लायट खंय आशिल्ली ? घर काणयेंतल्या घरासारकें दिसतालें. घराचेर माड सावळी धरताले. आमोरेचेर रात जाल्ल्याभशेन काळोख पातळटालो. मनशांच्यो सावळ्यो ल्हान व्हड जाताल्यो. शेवतेंआका पांय आपटत चलतगीर भूतच पांय आपटीत वता अशें म्हज्या मनांत येतालें.

रातचे रातकिडे किरकिरताले. हॉरर सिनेमांतल्या संगीताभशेन तांचो आवाज. चान्नें नळयांतल्यान, हारशांतल्यान, जनेलांतल्यान लिपून पळयतालें. . .

रातच्यो काणयो .......आजी आमकां काणयो सांगताली.......दोळयांत न्हीद ..... आजेचो मोगान उफाट भरिल्लो आवाज.

केन्ना पातोळ्यांच्या झाडाची .......केन्ना कुंडेकुस्कुराची, केन्ना परीची तर केन्ना भक्त प्रल्हादाची. त्यो काणयो खऱ्योच दिसताल्यो.

म्हजी आजी सदाफुलीच्या फुलाभशेन, तोंडार सदांच हांसो. उतरांय गोड. आजो सामको तिज्या उरफाटो. घरांत तो उलयतना केन्नाच हांवें ताका पळोवंक ना. आजेकडेनय तो उलय नाशिल्लो. घरांत ताजो दरारो. धवें फुल्ल पुडवें तो न्हेसतालो. वयर ज्युदी. हातांत रोत. रोत आपटीत तो चलतालो. आमकां भुरग्यांक केन्ना ताणें अपुरबायेन लागीं घेवंक ना.

सुटी पडतगीर रमाआत्या येतालें. ताजीं भुरगीं अभिजित आनी सुमी. खूप मजा येताली. कितले खेळ खेळटालीं आमी. लिपचेंल्यांनी, गड्डयांनी, लंगडी, खांबानी आनी केन्ना केन्ना भातुकुलीचोय खेळ खेळटालीं. भावना जातालें राणी आनी अभिजित जातालो राजा. सदांच अशेंच जातालें. म्हाका दिसतालें सदांच भावनाकच कित्याक राणी करप. भातुकुलीचो खेळ खेळपाक लागलीं की हांव एकटेंच पयस वतालें.

केन्ना न्हंयचेर ....... केन्ना कुळागरांत........

कुळागरांत गेलें की कोगळाचो आवाज आयकूंक येतालो. कोगूळ रडतगीर मन दुखेस्त जातालें. ताज्या आवाजांत कितें तरी दुख्ख लिपलां अशें म्हाका दिसतालें.

एक दीस तिकलो गावडो सांगूक लागलो.

"बाये कोगळाक चोयल्यार दीस बरो वता."

कोगळाक सोदीत हांव सगळो दीस भोंवलें. भुरगेपणांत मन कितलें भोळें आसता.भावार्थी आसता. कोणेय कितेंय सांगल्यार खरेंच दिसतालें. एक दीस आजेन रातची कोगळाची काणी सांगली.

"सू" आनी "कू" दोन भयणी आशिल्ल्यो. दोगांय भयणांक आंब्याचो मोहर खूब आवडटालो. आंबो चंवरलो की दोगीय भायर सरताल्यो. रानां माडयताल्यो. एक दीस अश्योच दोगीय भयणी रानांत गेल्ल्यो. भोंवता भोंवता सांजवेळ जाली. अटंग रानांत दोगांय पावलीं. वाटय सांपडना जाली. रानांत उजो पेटिल्लो. सगळयाक धुंवर ...... तातूंत काळोखय जायत आयिल्लो. इतल्यांत तांच्या कानार वाघाची डरकाळी पडली. जीव मुठींत घेवन दोगांय धावलीं ...... धावतां धवतां दोगांय पयस पावलीं...... ..फांतोडेचेर "सू" घरा पावलें. आवय वाट पळयत दारांतच बशिल्ली. "आगो खंय तुमी? आनी "कू" खंय गेलें ?"

आवयन "सू" क विचारलें.

रानांत कितें घडलें तें ताणे आवयक सांगलें.

आवय ताजेर रागार जाली.

"भयणीक घेना आसतना आयलेंच कशें तूं? चल वच सोदून हाड ताका. ताका घेवन आयल्या शिवाय तोंड दाखय नाका म्हाका."

"सू" रानांत गेलें. सगळयाक सोदली भयणीक पूण भयण खंयच मेळ्ळी ना. तिकाय आपलो प्राण सोडचो पडलो. तेंच हें कोगूळ. आंबो चंवरलो की आयजूय तें भयणीक सोदता.

कोगळेच्या आवाजांत दुखेस्त भाव कित्याक त्या प्रश्नाचें उत्तर सापडलें. ल्हानसो प्रश्न पूण ताजें उतर मेळतगीर कितलें मन खोशी जाल्लें. पूण फुडें अशा कितलेश्या प्रश्नांनी मन घुस्पलें आनी उतरांय सापडूंक ना.

भुरगेपणांतल्यो कितल्योश्योच यादी. त्या यादींक इंद्रधनुष्याचे रंग आशिंले. इंद्रधनुष्य नाच्च जातगीर काळ्याकिट्ट कुपांनी भरिल्ल्या मळबाची सावळीय पडिल्ली. फुलपाखरांभशेन भुरगेपणांतल्यो यादी ...... फुलपाखरान गुलाबाच्या फुलावेलें म्होव चोखपाक फुलाचेर उमेदीन बसचें आनी इतल्यान थंयच्या काट्यांत ताजीं पाखां अडकवचीं ...... पिंजिल्लीं पांखां ....... आनी रगतान भरिल्लें आंग घेवन उडपाक सोदपी फुलपाखराभशेन यादी ! मन त्या यादीं मदीं शेणतालें.

रेणूं कितें तरी विचारातालें तेन्ना यादीची सांखळी तुटली. हांव भानार येतालें. अशेंच भुतकाळांतल्या यादीनी मन घुटमळतां घुटमळतां केन्ना विमान दाबोळी विमानतळाचेर पावलें तें कळलेंच ना.

विमानतळाचेर विमान देवंक लागलें, तशें काळजांत कलकलूंक लागलें . पयल्याच दिसा नवी व्हंकल म्हण घरा वतना काळजांत कलकलता तशें . व्हंकलपावणी वचपाक भायर सरली. फाटलें सगळें विसरुन नव्या संवसारांत नव्यान फुलपाचें सपन रंगयत नवे वाटेन मन धांवतालें

पूल हुपतना व्हांवतले न्हंयक पळोवन मनांत आयलें आषाढांत तांबडेगूंज रगताभशेन ही न्हंय जाता पूण आज मळान भरिल्लें उदक खंयच दिसना. फक्त व्हांवप हेंच तिका खबर. हेंच न्हंयचें जीवन ध्येय. संवसार करतना अशेंच न्हंयभशेन जावपाचें आसता. म्हाका जमत काय तें ? उदकाभशेन जावपाचें

आसलें. संवसाराक....... फाटलें सगळें विसरपाक जाय. नव्या प्रश्नांचीं उत्तरां सोदपाचो यत्नय करपाक जायना. पूण मनीस येवजिता तशें खंय जाता?

गाडी गांवच्या वाटेन धावताली. दोळे धांपून हांव ओगी बसून रावलें. विचारय गाडयेचे स्पिडीन धावताले.

३

घराच्या आंगणांत गाडी रावली. तरेतरेच्यो यादी खीणभर मनांत जमल्यो. आंगार मणभर ओजें घेतिल्ल्याभशेन आंग जड जालें. सगळीं म्हाकाच पळयतालीं. घरांत पांय दवरलो. राजांगण हुपून सालांत आयलें.

सालांत म्हज्या घोवाचें कलेवर दवरिल्लें. तोंडार शांत भाव पातळिल्लो. कित्याक कोणाक खबर .ताका तशें पळोवन म्हाका कितेशेंच जालें. दोळे पूर आयिल्ल्याभशेन व्हांवपाक लागले. अशें म्हाका कित्याक जालें तें म्हाकाय कळ्ळें ना. भितरले कुडींत वचून हांव कदेलार बसलें.

तृप्तीचीं उतरां म्हज्या कानार आदळलीं.

'आई', बाबा आसतना केन्नाच ताजे लागी मायेन वागली ना. आता हीं दुकां कित्याक?'

ताणें प्रश्न विचारलो आनी मनांत आयलें, खरेंच कित्याक मन भरुन आयलें? कसलें दुख्ख जाल्लें म्हाका? दुकां हांवें भोगिल्ल्या दुख्खाचीं आशिल्लीं ? काय पश्चातापाचीं आशिल्लीं ? काय कसलीं ? '

''तृप्ती आगो ताजें दुख्ख तें ज़ाणा'' सुमीन म्हळें. सुमी म्हजी आतेभयण. रमाआत्यालें सुमा.

"कसलें दुख्ख आशिल्लें आईक ? बाबान केन्ना तिका त्रास दिले ना. आईच ताजेलागीं बरी वागनाशिल्ली. आई तूं रडपाक अशें कितें जालें ? देकलें मडें आनी आयलें रडें म्हणटात तशें केले तुवें" तृप्तीन म्हळें आनी तें कुडींतल्यान गेलें.

सुमी म्हज्यालागीं आयलें. म्हज्या हातार हात दवरलो. ल्हान आसतना सुमीकडेनच हांव मन मेकळें करतालें. पूण आज सुमी कितलें पयस गेलें. ल्हान आसतना लागी आशिल्ले सवगंडी, इतलेंच न्हय मावसभयणीय जिणेच्या एका वळणार पयस वतात. मनातलें दुख्ख तांका सांगपाक संकोच दिसता. आज सुमीकडेन उलोवंचें अशें दिसनाशिल्लें.

नाजाल्यार भुरगेपणांत रमाआत्या येतलें हें कळतगीर मात आषाढ म्हयन्यांत ढगांचो गडगडो आयकतगीर पिसारो फुलोवन नाचपी मोराभशेन जातालें. रमाआत्या खूब आवडटाली म्हाका. सभावान शांत, हासरीं तोंडाची. सामकी आजेभशेन. म्हाका आवडटा म्हण काणयांचीं पुस्तकां घेवन येताली. सुटी सोपचीं न्हय अशें दिसतालें. सुटी सोपतगीर रमाआत्या वताली आनी अभि आनी सुमीय वतालीं. नाटक सोपतगीर स्टेज दिसता तशें रमाआत्या वतकच घर दिसतालें.

तो दीस म्हाका याद जाता. सदां रमाआत्या येतलें अशें कळतगीर आजी लाडू, चिवडो करपाक बसताली. कितें बोवाळ आजेलो. पूण त्या दिसा रमाआत्या येवपाची आशिल्ली पूण आजी हांतुणार पडिल्ली. रमाआत्याक घेवन काका आयलो. सुमी आनी अभिजीतालीं तोंडां बाविल्लीं. रमाआत्याय सदांभशेन दिसनाशिल्ली. कपलार आडवी कुकमाची पटी कशी लायतालें. कपलार कुकूमं नाशिल्लो. कुकमाच्या जाग्यार धवो दाग मात दिसतालो. येनाफुडें तें आजेच्या कुडींत गेलें.

'अशें कशें जालें गो बाये?" आजी रडूंक लागली. शेवतें आका, रमाआत्या, आजी सगलीं रडटालीं. आजेच्या दोळ्यांतलीं दुखां आटून आटनाशिल्लीं. म्हज्यान रांवू नजो जालें. हांव भितर गेलें.

"आजे." इतलेंच हांवे म्हळें.

शेवतेंआका म्हजेर आड्डलें.

" चल  दोळयांमुखावेलें. जल्माक आयल्यासावन घरांत विघ्नांच विघ्नां."

" शेवत्या ओगीच त्या पोराक कित्याक उलयता?" आजेन म्हळें पूण सदांभशेन आवाजांत धाक नाशिल्लो. बाविल्लें तोंड आनी करपल्लें मन घेवन हांव भायर आयलें. पडवेर सुमी आनी भावना उलयत बशिल्लीं. कितें उलयतालीं देवाक खबर .तांचेमदी बसचें अशें म्हाका दिसलें ना. पयस वचचें ह्या घरांतल्यान नाच्च जावचें अशें दिसलें. म्हजो बापूय नाच्च जाल्लो तसो. खरें घरांत ताका नाना म्हणटालीं. खरेंच खंय गेलो काय नाना!

मागीलदारांतल्यान हांव भायर आयलें. काकी रान्नींत लाकडां सारताली. धुंवरान दोळयांत आयिल्लीं दुकां पुसताली.

काकी सदांच आपल्या कामांत आसताली. घरांत सान्न मार .बांयचें उदक वोड .कितेंय नाशिल्लें काम काडून ती तें करत रावताली.

"खंय वता गो वसू!" काकीन विचारलें.

हांव खंय वतां कितें करतां तिका मात लेगीत पडूं नाशिल्लें. भावना आनी बाबुचेरय तिजें लक्ष नासतालें. कितें तरी विचारुंक जाय म्हण विचारिल्लें. म्हज्या उतराची वाट पळयनासतना ती रांदन फुकत रावली.

वण्टीर लवंडून वयनीबाय बशिल्ली. दोळे धांपिल्ले. वयनीबाय म्हजी आजी. आजेची जाव, धवेंफुल्ल पातळ ती न्हेसताली. माथ्यार पदर घेताली. घरांत कांयच उलयनासतना मेळत तें काम ती करताली. सांजवेळेर रांदचेकुडींत वण्टीक तेकून दोळे धांपून बसताली.

मागीलदारांतल्यान भायर येवन हांव चंपागेर वचपाक गेलें.  चंपा आमगेर काम करतल्या यशोदेली चली. हांव घरांत वतकच चंपा धांवत आयलें.

" आज कितें खेळोया गो वोसू ? गड्डयांनी" तें म्हाका वोसू म्हणटालें. वसू म्हणूंक ताका जमनाशिल्लें.

" नाका गो. न्हंयचेर वचया." हांवें ताका सांगलें.

न्हंयचेर आमी दोगांय गेलीं. न्हंयचे देगेवयलो एक एक गुणो हांव उदकांत डयतालें. उदकांत ल्हारां पातळतालीं आनी विरतालीं.

"वोसू तूं आज कांयच उलयना शें ! कितें जाला गो !"

"चंपा, शेवतेंआका म्हाका सदांच कितें कितें म्हणटा. हांव जल्माक आयलें आनी घरांत विघ्नाच आयलीं म्हणटा"

"तेजें नाका तूं आयकूंक. आगो आवो सांगताली रमाआत्या येयलां म्हण. गोव पेड्डयार जालो खंय तेजो ? " चंपान विचारलें.

चंपाक खूब उलोवपाचें आशिल्लें. पूण म्हजें मन थाऱ्यार नाशिल्लें.

"चंपा वचया आमी".

"बरें बाये. तुका जायें तेशें कोरोया." चंपान म्हळें.

चंपा घरा गेलें. घरा वचचेंशें दिसनाशिल्लें.

मनांत आयलें, चंपाचें आनी म्हजें कितें नातें ? तें वावराडेचें भुरगें पूण कितलें जपता म्हाका. नाजाल्यार शेवतेंआका ! रगताचें नातें पूण सदांच म्हाका उलयत आसता.

कुळागरांतल्यान हांव वयर आयलें.

थंय अभि बशिल्लो. एकटोच. उदकांत गुणो शेवटीतालो. उदकांत ल्हारां पातळतालीं...... विरतालीं. ताज्या तोंडारय तशींच ल्हारां पातळतालीं....... विरतालीं. दोळे दुकांनी भरिल्ले. हांव ताज्या लागीं उबें रावलें. पूण ताजें लक्ष नाशिल्लें. कितलो बदल्लो अभि. फाटले सुटयेंत आयिल्लो तेन्ना कितलो हासरो आशिल्लो.

"अभि." हांवें ल्हवूच उलो मारलो.

"वसू आमचो बाबा आमकां सोडून गेलो. आता आमी हांगाच रावतलीं." ताणें म्हळें.

"कितें जालें रे बाबाक?"

" म्हज्या आत्यागेर गेल्लो. भावोजीन रानांत आपयलो. अळमी काडपाक सगळे गेल्ले. सोरोप चाबलो म्हज्या बाबाक." अभिन सांगलें आनी तो रडूंक लागलो.

म्हाका कितें करचें तें कळना जालें . ताजी समजूत घालपाक म्हजे कडेन उतरां नाशिल्लीं.

हांवें म्हजो हात ताज्या हातार दवरलो. केन्ना केन्ना उतरांक सांगूक जमना तें काम स्पर्श करता.

"वसू, तुज्या स्पर्शान म्हाका धीर दिलो." म्हज्या दोळ्यांत पळयत ताणें म्हळें.

ताज्या दोळ्यांत पळयतगीर म्हाकाय बरें दिसलें. शेवतें आकाच्या उतरांनी हुलपल्ल्या मनाचेर ते नदरेन थंड सावळी पातळिल्ल्याभशेन जालें.

हांवें अभिलो हात घट्ट धरलो. पांय तळयेच्या उदकांत सोडले. म्हज्या मनांत आयलें. भातुकुलीच्या खेळांत अभि राजा जाता आनी भावना राणी. पूण आतां अभिचो हात म्हज्या हातांत आसा. ताज्या दुखेस्त मनाक म्हज्या उतरांनी थंडसाण मेळ्ळ्या. कितलें बरें दिसलें ताजो हात हातांत घेवन.

हांवें ल्हवूच अभिच्या दोळ्यांत पळयलें. ताज्या तोंडार कसलेच भाव पातळूं नाशिल्ले. तो वोग्गी बसून राविल्लो. वयल्या ओटयेर घोसाळेचीं हळदुवीं फुलां फुलिल्लीं आनी हळदुव्या रंगाचीं पिसोळीं तांचें म्होंव खावपाक तांच्या भोंवतणी घुंवतालीं. वाऱ्यान तीं फुलां धोलतालीं. म्हजें मनय धोल्लें.

"अभि थंय पळय." हांवें अभिक म्हळें.

ताणें पळयलें आनी तोय हांसलो.

आमोरी जायत आयली. श्रावणांतलीं कोवळीं किरणांय काळखान पिवून उडयलीं. आंगार वाऱ्याचो शितळ झोत आयलो. आनी खंय लिपून बशिल्लो पावस

शिंवरलो. झाडांचेर पातळिल्ली सावळी आनीकय गडद जाली. शेवणीं घराकडे परतलीं.

इतल्यांत गडगडो सुरु जालो.

"चल अभि वचया आमी. पावसाची व्हडली दडक येतलीशी दिसता. म्हातारीय फोव काणूक लागली."

दोगांय आमी घराचे वाटेक् लागलीं.

अभि फुडें चलतालो. हांव फाटल्यान.

सदांभशेन हातपांय धुंवन देवाफुडें बसलें तेन्ना मन बोमाड्याभशेन वयर वयर उडटालें.

"शुभं करोती" सगळ्यांनी एका सुरात म्हळें.

भावनान गोड आवाजांत प्रार्थना म्हळी. अभिय भावनाच्या आवाजांत आवाज मेळोवन गायतालो. पूण आज अभि वोगी बशिल्लो. हांवें अभिक पळयलें. ताजे नदरेंत दुखेस्त भाव पातळिल्ले. ल्हवूच उठचें. फूंक मारची आनी ताज्या दोळ्यांतले ते दुखेस्त भाव नाच्च करचे शें म्हाका दिसलें. म्हजे दोळे दुकांनी भरले. कोणेय पळोवंचें न्हय म्हण हांवें दोळे धांपले. धांपिल्ल्या दोळयांतल्यान दुकां पोल्यावयल्यान देंवलीं.

असो कितलोसो वेळ हांव पाखां लावन भुरगेपणांतल्या यादीनी भोवतालें.

"आई ये आई." रेणूच्या आवाजान म्हजी तंद्री भंगली. भोवतणी बशिल्ल्यो बायलो म्हाका पळयताल्यो. म्हाका म्हजीच लज दिसली. तांच्या सगळ्यांमदीं बसूनच हांव एकटेंच येवजितालें.

म्हज्या घोवाच्या निमण्या संस्काराची सगळी तयारी जाल्ली. मसंडेंत वचपाक सगळे भायर सरले. कोण तरी ल्हव आवाजान फुतफुतली. "मणी". सगळ्यांच्यो नदरो म्हजेर थिराविल्ल्यो.

घोवान घाल्लो नग. घोवाच्या मरणाउपरांत तो घालपाचो अधिकार बायलेक

नासता. रुढी, समाज. आज पयलीं भशेन बंधनां ना. पूण जण एकली बायल तें करत आयल्या. 'मणी काड' अशें कोणें सांगलें ना. पूण तांच्यो नदरो तेंच सांगताल्यो. म्हजे व्हडले जावेची नदर म्हज्या मणयाचेर थिरावि‌ल्ली.

''भाऊ आसतना साताजन्माची वैरी अशी ताजेकडेन वागली आनी आतां मणी काडपाक इतलें वायट दिसता ? आमकां बाये कळटा हीं सवंगां.'' म्हजी नणंद ल्हवूच फुतफुतली.

जावेन म्हळें, '' ह्या घरांत सगळ्यो रिती पाळल्यात. म्हजे आजीमायची गजाल आयकून आजूनय म्हज्या आंगार काटो फुलता. आजोमांव हें जग सोडून गेल्लो तेन्ना ती भुरगी आशिल्ली. पाचवो म्हयनो चलतालो. पूण घोवाच्या मरणाउपरांत सगळे विधी करुन घेतले. व्हांवत्या वझऱ्याभशेन केंस. केंस कापतना घुंवळ येवन पडली ती. पोटांतलो कंवळो कोंबय मनार आघात जावन करपलो. पूण लोक नाव दवरत अशें कितेंच केलें ना तिणें.''

जावेच्या उलवण्याचेर हांवें विचार केलो. तिणें म्हाका कितेंय म्हळ्यार म्हाका वायट दिसूं ना. तांच्या मनार रुजिल्ल्या संस्कारांक लागून ती तशी उलयताली. रुढी, जाण्टेल्यांनी घालून दिल्ले संस्कार ह्या बंधनान तांचीं मनां घुस्पल्लीं. वेगळो विचार करपाचें तांका कशें सुचतलें ? तांचेकडेन उलोवन कांयच उपेग नाशिल्लो.

म्हज्या मनांत मात विचारांचें वादळ पेटिल्लें. कितलेशे प्रश्न मनाक पडिल्ले. हांव उठलें, रेणूंक सांगलें,

''रेणूं हांव माळयेर बसतां.''

''पळयलें आईक? वागणेंच तऱ्हेवाईक. जशें काय वेगळें मन, वेगळे विचार घेवन मळबांतल्यान उतरल्या. हिज्या अशा वागपाचेच बाबाक त्रास जाताले. जितो आसतना ताका छळलो आनी आतांय ती तशीच वागली. अशें करपाचें आसलें जाल्यार आयली तरी कित्याक.'' तृप्तीचो म्हजेर सदांच राग.

हांव माळयेर आयलें.

तिनसाज जाल्ली ....जनेलाचें दार उगडलें ...... पयसुल्यान ओवळांच्या फुलांचो परमळ नाकांत भरलो. ओवळां फुलतात ह्याच दिसांनी. मन फुल्लें. ओवळां कितलीं आवडटालीं म्हाका. तिनसांजचे वेळेर ओवळां पुंजावन केळीच्या दोरांन तीं गुंततात. सुकतगीरय परमळ तसोच रावता तांचो. ओवळांच्या फुलांचे उशें करुन मुंबय व्हेल्लें हांवें. खरेंच यादीन घुस्पून रावपांत बरेंच दिसता.

इतल्यांत रेणू म्हऱ्यांत आयलें. पोटच्या पोरांक माया ना. पूण सून म्हण घरा आयिल्लें रेणू सून कशें केन्ना वागलेंच ना. रेणू चली जावन रावलें.

"आई तू न्हावन घेता न्ही, जिवाक बरें दिसतलें."

मरणा उपरांत न्हावपाचें आसता. पूण हें सांगतनाय कितलें जपता म्हाका रेणू.

"येता हांव."

" आई तृप्तीचें उलोवणें तूं मनार घेवंक नाका." रेणून म्हळें.

"ना गो बाये. ताजें उलोवणें मनार कित्याक घेतलें. रेणू खरें सांगू तुका, मणी हांव घालतालें. पूण एक भांगराचो नग म्हण. मुंबय हांव विक्रमा वांगडा गेलें तेन्नाच म्हजें नातें तुटिल्लें. घोव वतकच कुकूम काडप, मणी काडप ह्या विधीमागचो अर्थच म्हाका कळना आनी विचारय पटना. एकेवेळार घोव वतकच. बायलेक बोडकी करताली. आज ती प्रथा ना. कुकूम सौंदर्य वाडपाचो एक साज म्हण लग्नापयलींय कपलार रेखतात. मागीर घोवाच्या मरणा उपरांत कुकूम कित्याक पुसप? कुकूम पुसलो, मणी काडलो म्हण मन विरक्त जायना. हांवें भुरगेपणांतल्यान पळयलां. म्हजें आका, शेवतेंआका. घोव गेल्लो. तोंडांतल्यान देवाचे श्लोक म्हणटालें आनी त्याच तोंडान गाळयोय मारतालें."

"आई तू कित्याक त्रास करुन घेता ? " रेणून म्हळें. आनी तें सकयल गेलें. ताजो सभावच तसो. आपूण बरें आपलें काम बरें.

रेणू गेलें. म्हज्या मनांत आयलें, हांवे थारायिल्लें मनांत येता तशें वागप.

जिणेंच्या एका वळणार मनांत कसो हुंकार दिला तशें चलप. तशेंच हांव हालीं जगतालें.

तृप्तीचीं उतरां परत याद जालीं,

'वागणेंच तऱ्हेवाईक. जशें काय वेगळें मन, वेगळे विचार घेवन मळबांतल्यान उतरल्या."

हींच उतरां........ हींच उतरां.

अशींच उतरां आयकतगीर म्हजें मन पिशांसारखें जातालें ..... तृप्तीच्या उतरांनी म्हजेविशीचो राग दिसतालो आनी त्या उतरांत ......म्हौंवान भरिल्लीं तीं उतरां.

'तुजें मन वेगळें....... तुजे विचारय वेगळे आनी तुज्या सौंदर्याकय वेगळेंपण आसा." काळखे राती चान्नें पडचें अशीं तीं उतरां.

तीं उतरां परत म्हाका कुळारा घेवन गेलीं...... मन घुटमळपाक लागलें ..... कुळारच्या घरांत......

रमाआत्या आयिल्लें तो दीस...... दोळयांक दोळो लागनाशिल्लो. अभिची मूर्त दोळ्यांमुखार येताली. दुखांनी दोळे भरिल्लो अभि रावन रावन दोळ्यांमुखार येतालो. ताजो हात हांवें दामिल्लो. कितलें बरें दिशिल्लें म्हाका. ताजो बाबा हें जग सोडून गेल्लो.

अभि आतां रावपाक आयिल्लो. खूब बरें दिसलें. अभि सदांच रावतलो म्हण आनी अभिचो बापूय ना म्हण वायटय दिसलें. दोळे धांपून हांव येवजितालें. रमाआत्या कुडींत आयली.

आजी परत परत कश्टताली.

"आई तू वोगीच त्रास करुन घेता. जल्माचे भोग सटयेराती बरयल्यात ते चुकोवं नजो. भुरग्यांक पळोवन जगपाचें आतां."

" हय गो बाये, अशें कित्याक जांव जाय आशिल्लें. भरल्या संवसारांतल्यान गेलो."

" दुख्ख हें कोळशाभशेन. झरयता तितलें काळेंच. येवजून दुख्ख ना जावंचें ना. शेवत्याकडेन पळयलें, नानाचो संवसार पळयलो, वयनीन जीव दिलो. सगळें पळयतगीर दिसता म्हजें दुख्ख कांयच न्हय. भांगराभशेन भुरगीं तरी दिल्यांत देवान म्हाका. देवाक जाय तशें जाल्लें अशें म्हणटां आनी मनाक सावरतां."

"हय गो बाये हांवें कितलें सोसलें. नाना नाच्च जालो. खंय गेला कोणाक खबर! आज येतलो, फाल्यां येतलो, कितली वाट पळयली. वासंतीन जीव दिलो. शेवत्याचें तशें जालें आनी केशव भांगरा गुणाचो पूण ताळतंत्र ना असली बायल पदरांत पडली ताज्या. तुजें बरें जालां अशें दिशिल्लें पूण......"

आजी थोडो वेळ ओगी रावली. परत उलो मारूंक लागली.

"रमा ये रमा, आयकता मगो? "

" आई रात जाली. न्हीद पळोवया ओगी."

"न्हीदच पडना गो, रावन रावन दिसता वासंतीचे तळतळाट बादतात ह्या घराक. अपुरबायेचें पोर . नक्षत्र कशें दिसतालें. नानाकडें लग्न करुन जल्माचें वाटोळें केलें ताजें तुज्या बापायन. कितलें सांगलें तुज्या बापायक हांवें. पूण बायलांचें आयकत जाल्यार कमीपणा दिसता ताका. तातूंत घरची बायल म्हळ्यार कोनशांतली सान्न. सान्नीक तरी मान आसता. घरांत हाडतगीर देवाकुडींत दवरुन कुकूम, फूल घालतात तिका. पूण बायल ताजेपरस पाश्ट."

"आई कितले त्रास करुन घेता तूं? फाटल्यो जाल्यो त्यो गजाली जाल्यो."

"फाटलें विसर म्हण सांगपाक सोपें गो. पूण कशें विसरूं ? ताजेच शाप घराक बादले. भांगराभशेन पोर . कितें सूख मेळ्ळें गो ताका घरांत ? काय बरें पोर जालें . पूण नाना असो कित्याक गेलो ? परत येवचेशें दिसलें ना ताका. आमच्या हातांत कांय ना हेंच खरें . वयर बसला ताणेंच बरें करुंक जाय. ताजीच बरी नदर आसूंक जाय घरार."

आजी थारना आसतना उलयताली. मनांत घुस्मटिल्लें दुख्ख उतरा कणकणी भायर पडटालें.

"कितें ह्या घराक बादला कोणाक खबर. घर फिरलें की घराचे वाशेय फिरतात म्हणटात तेंच खरें. कोणाचेंच बरें जायना. पूर्वजल्माच्या कर्माचीं फळां भोगचीं पडटात काय आवय बापायन केल्ल्या पापांचीं फळां भोगचीं पडटात, कोणाक खबर. आजो करता पाप आनी नातू दिता जाप म्हणटात तशें जालां. कोणाची देवचाराची सावळी पडल्या कोणाक खबर."

"आई कितली उलयता तूं. धांपेली तूं. कितेंय जातलें तुका." रमाआत्यान म्हळें.

"कितेंय जाल्यार बरें. आनी कितें पळोवपाक दवरलां देवान ? उबगण आयल्या जिवाची, देवान याद केल्यार बरें म्हाका. कितें सोसू ना गो हांवें ? कितलें सोसपाचें? बायलांचो जल्मच वायट. सोसप फक्त सोसप. म्हज्या सारक्या कपलफुटक्या बायलेन तर सोसपच, आज दिसता सोसलें नाशिल्लें जाल्यार घडये ह्या घरान वेगळें कितेंय जायत आशिल्लें. बरे दीस पळोवपाक मेळत आशिल्ले. नानाक लग्न कित्याक जाय आशिल्लें. तेन्नाच हांवें लग्न मोडपाचें. माटवार चडटा ती वेल मोडची न्ही. तुज्या बापायन म्हाका सांगलें. पूण ज्या माटवार ती वेल चडटा तो माटव घट् नाका? हांव सांगता तुका, वासंतीचो तळतळाट या घराक बादता. रमा तुका सांगता हांव, म्हजें कितेंय बरें वायट जायत जाल्यार वसूक सांबाळ. आवय ना बापूय ना. शेवत्याक हांव कांयच सांगना. सांगूनय उपेग ना. काय बरें आशिल्लें शेवतें. कोणाकय कितेंय जाल्यार हाच्या दोळ्यांत दुखां येतालीं. कांटो तोपन पांयात रगत आयलें वयनीबायच्या, हाच्या दोळ्यांत दुखांची तळी आनी आतां पळय. न्हय न्हय तें उलयता. पाय आपटयत चलता. ताका सूख ना. संवसार ना. मागीर राग येता ताका. कितलें सांगलें ताका. कंवळें मन वसूचें. पूण तें आयकुचें ना. रमा तूं म्हज्या फाटल्यान साबांळतलें मगो म्हज्या पोराक."

"आई तूं अशें कितें उलयता ?"

"आता जगपाची उमेदय कमी जाल्या. नाकांच दिसता. देह सरणार केन्ना पडटा हाजी वाट पळयतां."

आजेन म्हज्या आंगावयल्यान हात फिरयलो. मायेच्या उबेन म्हज्यान रावूं नजो जालें.

"आजे तूं म्हाका जाय. तुकां कितेंय जाल्यार हांवय मरतलें." हांवें म्हळें.

"रमा, पोर जागेंच आसा मगो. ना कांयच जायना म्हाका. म्हज्या बायक लागून हांव जगतलें. शंभर वर्सां जगतलें. " आजेन म्हळें.

"आई न्हीद आतां, रात खूब जाली." रमाआत्यान म्हळें. आजी म्हाका सासपीत रावली. म्हजेर फिरपी हात थोड्यावेळान थांबलो. आजेक न्हीद लागली. रमाआत्याय दुसरे कुडींत गेलें.

म्हज्या दोळयांक दोळो लागनाशिल्लो. म्हजो बापूय कित्याक घर सोडून गेल्लो? नानाक लग्न कित्याक जाय आशिल्लें अशें आजेन कित्याक म्हळें? म्हज्या आवयन जीव कित्याक दिलो ? म्हजेकडेन पळोवन जगचेशें तिका दिसलेंना कित्याक?

रमाआत्या घोवाच्या मरणाउपरांत जगता अभिक लागून, सुमीक लागून, म्हाका लागून जगचेशें म्हजे आवयक कित्याक दिसलें ना ? नानाची वाट कित्याक पळयली ना तिणें?.

मनांत प्रश्नाचें जाळें पसरिल्लें, दोळ्यांक न्हीद येना आशिल्ली. जनेलांतल्यान हांव भायर पळयत रावलें. काळोख पातळिल्लो. मर्दीच रातकिडे किरकिरताले. पयस सुणी भोंकतालीं.

कळाव वतगीर कोणाच्यातरी पावलांचो आवाज म्हज्या कानार पडलो . कोण आसतलो? माळयेर फक्त काका न्हिदतालो आनी आजो. सपणां देंवन कोणतरी सकयल आयलो. दाराची खिळी काडली. दार परत आड करुन घेतलें आनी पडवेर पावतकच लापयांव पेटयलो. जनेलांतल्यान उजवाड दिसलो. आवाज करनासतना हांवें ल्हवूच दार उगडलें. आजोच तो! फाटल्यान पळयनासतना तो

चलत रावलो. खंय गेलो काय इतलें रातचो ? आजो गेलो ते वाटेकडेन हांव पळयत रावलें. थोडया वेळान तोय दिसना जालो. लापयांवाचो मंद उजवाडय काळखाआड लिपलो.

" वसू" अभिजीतान म्हाका उलो मारलो. हांवें कच्च करुन आंग काडलें.

" आगो हांगा इतलें रातचें कितें करता ?" ताणें विचारलें.

" कांय ना. म्हाका न्हीदच येना. हांगा यो म्हाका तुका कितें सांगूक जाय".

" कितें !"

"शू ! ल्हव उलय. कान कर कानांत सांगतां."

हांवें ल्हव ताज्या कानाकडेन तोंड व्हेलें,

" अभि, आजो गेला थंयच्यान. चोराभशेन काळखांत खिळी काडली ताणें. खंय गेला काय आजो ? " हांवें म्हळें.

" आगो राणग्या" शेवतेंआकाल्या आवाजान म्हाका शेळो घाम फुटलो.

" हांगा कितें करता ? आनी तू रे अभि. काळखान कितें चल्लां तुमचें ? "

शेवतें आकान हाताक धरुन म्हाका ओडून भितर व्हेलें. तोंडांत येयत तीं उतरां तें म्हणटालें .जिभेक हाड ना ते. कितलें बरें आसतलें आशिल्लें जिभेकय हाड आशिल्लें जाल्यार!

" तू त्या पोराची वाट लायतलें. बीं तशें भात. आवयच्या वळणार गेलां. आवयन दिवे लायले ते पुरो. तूं आनी लावूं नाका. गावांत तोंड दाखोवपाक जाय आमकां." अशें कितेंशें तें उलयतालें. रातीचो वेळ नाशिल्लो जाल्यार आड्डोन तें सगळें घर माथ्यार घेतलें आशिल्लें.

हांव हांतुणार न्हिदलें. मन मात रक्तबंबाळ जाल्लें. शेवतें आकान 'बी तशें भात' अशें कित्याक म्हळें. ? आवयच्या वळणार गेलां अशें कित्याक म्हळें? अशें

कितें केलें म्हजे आवयन ? आनी जीव कित्याक दिलो ? रातभर हांव हांतुणार तळमळतालें. न्हीद पडनाशिल्ली........ केन्ना तरी म्हाका दोळो लागलो.




## ४

**स**काळीं उसरां जाग आयली. पडबेर पो जाल्यार कितें पळयतलें. आजो धोलतेरार बसला. रातचें सगळें म्हाका येवजलें. म्हाका दिसलें, वचचें आनी आजेक सगळें सांगचें पूण शेवतेंआकाचीं उतरां येवजलीं आनी जीब जड जाली. शेजारच्या यमीगेर वचचेशें दिसलें.

यमीगेर गेलें. ताजी आवय दात्यार दळताली.

" वसू आज सकाळीं सकाळींशें" तिणे विचारलें.

" हरशींच." हांवे म्हळें.

म्हज्या मनांत आयलें . म्हजे आवयविशीं तिका विचारचें . पूण विचारप कशें?

" काकी तुंवें म्हजे आवयक पळयल्या ? "

" हय गो. कित्याक विचारता ? "

" याद आयली. सगळ्यांक आवयो आसात. म्हाका ना. "

" आजी आसा न्ही गो. आवयपरस चड करता. णव म्हयने पोटान दवरलें म्हण आवय जायना. खूब करचें पडटा." काकीन म्हळें

" म्हजी आवय बरी नाशिल्ली तर........? "

" कोणे सांगलां ? खूब बरी आशिल्ली. खूब सोबीत. तुज्याभशेन रंग. हातो फुलिल्ल्याभशेन ! लांब केंस. विणी सोडतगीर झऱ्याभशेन व्हांवत कमरेर पडटाले. हांसतगीर दोनय गालांचेर खळयो पडटाल्यो. सामक्यो तुज्याभशेन. तुका दाखवचें आनी तिका लिपोवचें. पूण नशिबांत फुलपाचें नाशिल्लें."

" काकी, शेवतेंआका म्हाका ' बीं तशें भात' म्हणटा. 'आवयच्या वळणार गेलां' म्हणटा. म्हजी आवय खरेंच बरी आशिल्ली मगे?"

"खरेंच बरी आशिल्ली. आनी आवय ती आवय. शेवत्याचें उलोवणें तूं मनार घेवं नाका. घोव ना. संवसार ना. किवाटो काडटा तें. "

इतल्यान थंय म्हादबा आयलो. म्हादबा चंपाचो बापूय. आमगेर काम करतले यशोदेचो घोव. सुरकतिल्लें तोंड .कुसके दांत आनी तोंडांत गाळयो.

" कसो आसा रे म्हादबा ? " काकीन ताका विचारलें.

" कसो आसा तो दिसलोना ! बरो नासलेलो जाल्यार हांगा कित्याक मोरोक येयतोलों आसलेलों. पोयशे व्होरोंक येयलां कामाचे. खोबऱ्यो कोरोंक येवो ना."

" सांजवेळेर यो. हे घरांत ना. " काकीन सांगलें.

"काकी शेंवतेंआकाभशेन कित्याक उलयता हो? सदांच उतरांच्या धमकेन हुलपायता लोकांक. " हांवें काकीक विचारलें.

" कितें सांगतलें तुका. हाची बायल हाका लागीं करिना. देराकडेन तिजें बरें पडटा. ताका लागून हो खुबळटा." काकीन सांगलें आनी म्हळें,

" पाड पडूं म्हजे जिबेचें. भुरग्यांकडेन कितें उलोवंचें आनी कितें ना तें कळना म्हाका. तूं घरा वच वसू. खूब कामां पडल्यांत करपाचीं." काकीन म्हळें.

काकीगेरच्यान हांव घरा आयलें. शेवतेंआका म्हाकाच उलो मारतालें. फुडल्या दारांत तें आशिल्लें. हांव ल्हवूच मागिलदारांतल्यान भितर सरलें. आनी देवाकुडींत गेलें. ताज्या उतरांच्या तोफेंतल्यान म्हजें रक्षण करपाक हांवें ती जागा सोदून

काडिल्ली. देवाकुडींत दोळे धांपून हांव बसलें. शेवतेंआकान मान भितर घालून पळयली आनी तें गेलें.

देवाचे मूर्तीकडेन पळोवन म्हाका दिसलें. खूब कितें कितें मागपाचें आसा देवाकडेन. पूण कितें मागतलें ? कितें मागपाचें तें कळनाशिल्लें.

५

**अ**शेच दीस वताले. आजेन हांतूण धरिल्लें.रातच्यो काणयोय ती सांगनाशिल्ली. तिजी जगपाची उमेदच सेंपिल्ली.

दीस सोपलें.......

पावसाचे दिसय सोंपले.....पूण घरांत उमेदीचें वातावरण नाशिल्लें.

चवथ आयली...... वर्सा चवथ येतगीर कितलो बोवाळ आसतालो आमगेर. पूण आजीच हांतुणाचेर. अभि, सुमा चवथीक आशिल्लीं. पूण घरांत उमेदच नाशिल्ली. चवथ......घरांत गणपती आयलो पूण आजी हातुणांवेल्यान उठली ना. विघ्नहर्त्या तूंच राख रे बाबा ह्या घराक आतां. आनीक विघ्ना हाडूं नांका. अशेंच कितेंशें उलयताली. सगळया घराचेर दुख्खाची सावळी पातळिल्ली.

गणपती पुजलो. वयर माटोळी बांदिल्ली. घरांत गोडशें केल्लें. पूण चवथ कशी दिसनाशिल्ली.

रातच्यो आरती जाल्यो. ताळ ,झांजी एकठांय जाल्यो. भावनान गोड आवाजांत आरती म्हळी. सगळ्यांनी ताजी तोखणाय केली. देड दिसांचो गणपती पावयलो. ....गणपती आयलो आनी गेलो. चवथ सोपली.

चंपागेर पांच दीस गणपती. वरसावळीप्रमाणे पाच दिसय गणपतीक म्हाका

चंपान आपयल्लें. हांव चंपागेर गेलें. दारांत रांगोळी घाल्ली. घर शेणान सारयिल्लें. तांबडयो पांचव्यो फोली मकराचेर लायिल्ल्यो. यशोदेन तर सगळया वाठारांच्यो फुलांफातयो माथ्याक माळिल्ल्यो. तोंडार मुमुरखो हांसो पातळिल्लो.

"बाये फुगडी पळयले बोगोर वोचों नाका. नेवरी खा." तिणें म्हज्या म्हऱ्यांत नेवरेची ताटली दवरली. आनी उकडयां बसली. म्हाका काकुचीं उतरां याद जालीं. खरेंच कितली बरी दिसतालीं यशोदा. म्हादबाकडेन लग्न जावन वाट लागली तिजी. म्हज्या मनांत आयलें. खरेंच काय यशोदेचें म्हाबळूकडेन ..........म्हाबळू यशोदेचो देर . म्हाबळूची बायलय बरी दिसनाशिल्ली. मनांत विचार आयले आनी म्हाका म्हजीच लज दिसली. इतले भुरगे पिरायेंत हांव अशें येवजितां?

"यशोदे केन्ना घालता गे फुगडी? " हांवें विचारलें.

"आगो राव मातशें. येवनी वाड्यावयल्या बायलांक. आतांच आमगेर घालून देवकेगेर गेल्यांत. आपोवंक धाडतां. "

सगळ्यो बायल्यो जमल्यो. तांच्या तोंडाचेर हांसो फुलिल्लों. सगळीं वाटकुळींच रावलीं. तांबडीं,पांचवीं, हळदुवीं देगेचीं पातळां, माथ्याक फातयो, जायांचे पोड .. ... फुलिल्लीं फुलां कशीं.

पावलां मारपाक लागलीं ......हांसतात किटकिटतात..... .समुद्राक भरती आयल्याभशेन फुगड्यो उसळूंक लागल्यो......पावलां शिणनाशिल्लीं..... .ताळयो मारुन हात दुखनाशिल्ले.

कचे बाये कचे
वल्लीभर कचे
आमचे गणपती
भांगराचे मोचे

यशोदा वाऱ्यार फूल धोलता तशें फुगडी घालतना धोलतालें

"बाये यो गो तुकाय शिकोयता फुगडी घालपाक,सगळो शीण वता" ताणें म्हळें.

परत सगळीं जाणां उबीं रावलीं. फुगडी घालपाक सुरु केली.

रातीं केलेलें बांगड्याचें हुमण
रातीं कित्याक येयलो ना रे
म्हादबा रातीं कित्याक येयलो ना
रातीं आशिल्ली शेतार ड्युटी
येवंक म्हाका फावलें ना गो
यशोद्या येवंक म्हाका फावलें ना

फुगडी घालतना एकली बायल किटकिटली.

"आगे यशोदें लागीं घेयनां. किदें करचें तेणें? शेतार बावडो"

"शी आमगेले बायेहुजीर कितेंय उलोवं नाका "

यशोदेन हांसत म्हळें. तिज्या तोंडावयलो हांसो मात लेगीत उणो जालो ना. ती मात लेगीत कांचवेली ना.

घरा येतना रावन राव यशोदेची याद जाताली.

चवथ सोंपली......

आजेचें दुखणें चड जालें. काका दोतोराक हाडपाक शारान गेलो. आजेच्यान उलोवंक जायना आशिल्ली. धापेत ती उलयताली.

" आई वोगी राव गे. केशव गेला. दोतोराक घेवन येयसर तरी वोगी राव" "दोतोर कितें करतलो ? म्हाका यमाचो आवाज आयकूंक येता. शेवत्या तुजो बापूय खंय गो ? हांवें आपयला म्हण सांग ताका. निमाण्या वेळार म्हज्या म्हऱ्यांत रावचेंशें दिसलें ना तांका ?" आजी उलोवपाची रावली. परतून उलोवंक लागली.

" नानाची खूब याद येता गो. जीव आशेला पळोवंक. खंय भोवता कोणाक खबर, वाऱ्यार हुबून गेल्ल्या पानाभशेन. खूप वाट पळयली ताजी हांवें ..... रमा वसूक सांबाळ ..... कोण ना त्या पोराक. आवयभशेन सांबाळ. म्हाका उतर दी

उलयतां उलयतां आजेची मान लवंडली. दोतोर पावचे पयलींच आजी आमकां सोडून गेली.

आजी गेली. हांव एकलेंच जालें. रमाआत्यान दिल्लें उतर पाळलें. खूब बरें केलें म्हाका. पूण आजी ती आजी. आजेची याद येताली आनी दोळे दुखांनी भरताले. मागीर हांव एकलेंच बसतालें...... केन्ना तळयेर केन्ना न्हंयचेर .....

अशीच मनांत सावळी पातळिल्ली. एकलेंच हांव न्हंयचेर गेलें. उदकांत गुणे शेवटीत बसलें.

" वसू एकलेंच कितें करता ?" अभि म्हज्या लागी रावन म्हाका विचारतालो.

तो म्हज्या लागी बसलो. ताणे म्हजो हात हातांत घेतलो. हांवें दोळे धांपले.

" दोळे कित्याक धांपले वसू !" ताणें म्हळें.

हांवें दोळे उगडले ताका पळयलें .ताजी नदर म्हज्या देहांतल्यान मनांतल्यान आरपार गेली. म्हजें एकलेपण खिणांत नाच्च जालें .हांवें म्हजो हात ताज्या हातार दवरलो. मनातलें भंय खंयचे खंय गेल्लें.

"वसू" ताजो हुनहुनीत स्पर्श कानाक लागलो.

आंगान आंग चवरलें. कितें जालां तें कळचे पयलींच ताणें म्हाका वेंगेंत घेतलें. ओंठ म्हज्या पोल्यार तेकयले . घुंवळ आयिल्ल्याभशेन जालें म्हाका. तंद्रेंतल्यान हांव भानार आयलें तेन्ना अभि मातसो पयस बशिल्लो. लाकडाचे भरे घेवन दोन बायलो देंवताल्यो. तांच्या पावलांचो आवाज म्हज्या कानार पडूं नाशिल्लो.

त्यो बायलो गेल्यो.

" वसू ......."

अभि परत लागी आयलो....... ताजे वेगेंत घुविल्ल्याभशेन जाल्लें.

" पाकटां आसल्यार  
रे मोगा उडोन वेतोलों  
आनी तुज्या ओठांचें  
कोवीत घेतोलो.

माडावयलो रेंदेर कातार म्हणटालो

" ताणे पळयलें आसतलें आमकां". हांवें भियेवन म्हळें.

" पळोवनी" म्हजे नदरेक नदर दीत अभिन म्हळें.

" या रुखानी पळयलां .......फांदयांनी पळयलां...... माडांनी पळयलां ...... ..मळबान पळयलां....... न्हंयच्या उदकान पळयलां...... वाऱ्याच्या झोतान पळयलां. "

" झाडावयलीं शेंवणीय रावल्यां म्हज्या हया शेवण्यांक पळोवंक"

" पुरो बाये"

" आगो लजेवं नाका. कितलें लजेता गो तूं . लजेच्या झाडाकय फाटीं घालें

तुवें" ताणे म्हळें.

तो आनीकय तेंकून बसलोच . ताच्या धिराची म्हाका तोखणाय दिसली.

" वसू कितलें सोबीत दिसता तूं '

"पुरो बाये. भावना कमी सोबीत आसा. आनी आवाजय गोड". हांवें ताका म्हळें.

"खूप जाणां सोबीत आसात गो पूण तुजे सारकें तूच. तूं खरेंच निराळें. चाफ्याच्या फुलांक लजेवन मान सकल घालची पडटली तुजो रंग पळोवन, गुलाबाच्यो पाकळ्यो कशी भिवणी, दोळे दिवलेची वाती कशे. हांसतगीर तुज्या मनाचें पडबिंब तोंडांचेर उदेता आनी तूं खूबच सोबीत दिसता. हे भशेन तूं , हय. तुजी सोबीतकाय तुका खबर ना आनी ताका लागून तूं चड सोबीत दिसता."

" पुरो बाये आमोरी जाली. हांव घरा वता. नाजाल्यार शेवतेंआकाची उलोवणी खावचीं पडटलीं. " हांवें म्हळें.

" इतलें भिता तूं शेवतें मावशेक. वाग न्ही मगो ती. खावची ना मगो तुका?" ताणें म्हळें.

"वागसुध्दा बरो. वाटेक गेल्यारच खांवक येता." हांवें म्हळें.

त्या दिसा घरा आयलें. शेवतें आका सदांभशेन उलयलें. पूण ताजीं उतरां मनाक तोपनाशिल्लीं. अभिच्या मोगाळ उतरांची, मोगाच्या उबेची गोजडी हांवें पांगुरिल्ली. मन भुरकुटिल्लें. शेवतेंआकाच्या दोळ्यांनी पेटिल्ल्या इंगळ्यांनी मन आज हुलपना. सदांभशेन पाय थरथरले ना. उलोवण्यान कांचवेना म्हण तरेतरेच्यो गाळयो मारुन म्हजो उध्दार केलो ताणें. पूण हांव मातलेगीत भिलें ना.

सांज उलगली. रात उदेली. शेवतेंआका घालूनपाडून उलोवंक लागलें. ताजी उतरां म्हज्या कानार आदळनाशिल्लीं. कानांत न्हंयच्या देगेवयलीं उतरां घुंवतालीं आनी मनांत सांज भोंवर मारताली हातुणार पडलें तेन्नाच काळखांतल्यान अभिचीं उतरां लागीं येतात अशें म्हाका दिसूंक लागलें. थरथरत्या ओंठार हुनहुनीत स्पर्श जाल्लेभशेन दिसतालें. म्हजे कवळे ओंठ थरथरले. खरस आयल्या भशेन हड्डें वयर सकल जावंक लागलें . आंग हुमेन चिपचिपीत जालें तो खीण परत घडचो .......परत परत घडचो अशें दिसलें.

६

**अ**शेंच दीस वताले.

अभि आनी हांव घरच्यांच्यो नदरो चुकोवन खंय खंय भोवतालीं. न्हंयचे देगेर, तळयेर, कुळागरांत, लजे व्हकलेभशेन मान सकयल घालून ओग्गी रावपी हांव, इश्टागत वाडटा तशें अभिवांगडा किटकिटूंक लागलें. म्हज्या तोंडारय तांबसाण पातळिल्ली. दोळ्यांमुखार चान्नें पातळिल्लें. सगळें मन धोलतालें.

म्हयनो आयलो. वयनीबाय वाऱ्याक वचपाची आशिल्ली. माया म्हयनो

आयलो की तिका खाऱ्या उदकाचे वेद लागताले. खारें उदक न्हालेंना जाल्यार धोपरां दुखतात अशें ती म्हणटाली.

"केशव वाऱ्याक वचूंक जाय म्हाका. ना जाल्यार म्हजी धडगत ना रे बाबा" घरांत मान सकयल घालून काम करपी वयनीबाय काकाच्या फाटल्यान लागताली. गोमटेर बसताली म्हळ्यार जाता. तिका बाबडेक दिसतालें कोण आसा म्हजो. हात पांय धड आसल्यार माणसुकी.

"वयनीबाय हांव येतलें आं कोलव्या वाऱ्याक." हांवें सांगलें.

"यो गो बाये. तुका नाका कोणें म्हळां." वयनीबायन म्हळें.

ती केन्नाच कोणाक दुखय नाशिल्ली. ती बरी तिजें काम बरें अशें वागप.

हातान काम आनी तोंडांत स्तोत्रां. तिज्या घोवाक दादा म्हणटाले. हांवें ताका पळोवंक ना. वयनीबायक भुरगींय ना. आमकां भुरग्यांक ती खूब बरी करताली.

केशवकाकान कोलव्यां घर पळयलें. तिज्यावांगडा रमाआत्या, सुमी, अभि आनी हांव. आमच्या धिराक म्हण काकान मुंडकाराल्या बाबुशाक धाडिल्लो. भावना, बाबू मात तांगेल्या आजोळा गेल्लीं.

माय सोपतगीर अभिक शारांतल्या शाळेंत 'लिसेव' शिकपाक धाडपाचें थारिल्लें. अभि वतलो म्हण वायट दिसतालें. हापश्याभशेन मेळत ते खीण अभिच्या सांगातान घालोंवचेशें दिसतालें. म्हज्या आनी अभि मदी कवळें नातें आसा म्हणपाचें सुमाकय कळिल्लें.

कोलव्यां गेल्लीं.......

सांजवेळ जाल्ली......

वेळेर वयनीबाय रेवेन पाय बुडोवन बशिल्ली. घरांतल्यान पयस वतगीर ती मेकळी मेकळी जाताली.

खूब उलयताली रमा आत्याकडे त्या दिसा ...... रेवेंचेर आमी किल्ले करताली

"वसू, बसून बसून पांय मुयेले. चल पयस पासय मारुन येवया" अभिन म्हळें.

"सुमी येता मगो." हांवें सुमीक विचारलें.

"तूं आनी अभि वच. हांव येना." सुमीन म्हळें.

"वसू, खरेंच हांव आयिल्लें जाय तुमकां?" सुमीन कानांत हळूच विचारलें. सुमी आयलेंच ना.

"चड पयस वचूं नाका. काळोख पडचे पयलीं येयात" रमाआत्यान सांगलें.

हांव आनी अभि पासयेक गेलीं......साखरेपीठाभशोन रेंव ..... खारो वारो. ..... माड धोलताले......अभिक खूब कितें कितें सांगपाचें आशिल्लें. पूण उतरांच मोनी जाल्लीं.

"वसू" अभिलो आवाज समुद्राच्या गाजांत पातळलो.

"वसू कांयच उलयनाशें?"

"खूब उलोवपाचें आसा. पूण कांयच सुचना. तूं म्हऱ्यांत आसतना उलोवपाचें विसरतां हांव."

"आतांच उलय कितें उलोवपाचें तें. मागीर उलोवंक मेळचें ना."

"कित्याक?"

"तुजे ओंठ म्हज्या ओंठार .......

"पुरो". मनांत पिठ्ठ चान्नें पडलें.

चलत चलत आमी खूब पयस पावलीं.

" अभि माडांचे सावळेक बसया"

1227

" तूं सांगता थंय बसया."

" अभि तूं मेळ्ळो म्हजी एकसुरी जीण सोपली. हांव एकलें एकसुरे जाल्लें. भरिल्ल्या घरांत म्हजो कोण आशिल्लो? आजेच्या मरणाउपरांत हांव सामकें एकलेंच जाल्लें. तूं मेळ्ळो सगळें पालटलें. आता मन ल्हव जालां .... तूं पयस गेलो की भंय दिसता. दोळ्यांमुखार तूंच आसता. ओंठार तुजींच उतरां......म्हाका कितें जाला तें म्हाकाच कळना. होच जर मोग......जाल्यार हांव खरेंच मोगान पडलां." हांवें म्हळें.

"वसू"

"हय रे अभि काट्यांच्या वाटेर हांव चलतालें .... वाट खंय दिसताली. वाटय शेणिल्ली ..... तुवें म्हजो हात धरलो म्हाका परीच्या राज्यांत व्हेलें.... तुजीं उतरां मनांत चान्ने पातळायतात. तुज्या स्पर्शान आंगातल्या कणाकणाक आंकरी फुटली. मनाक कोमऱ्यो फुटतात. करपल्ल्या मनाक चंवरपाक शिकयलें तुवें."

"वसू"

ताणें म्हाका लागीं ओडलें. वेलीन खोडाचेर भार वडोवन चडचें तशें हांव ताजेर पडलें. . . . . कळयेच्यो पाकळ्यो फुलच्यो तशें ल्हवूच ओंठा पाकळ्यो फुलल्यो. ताज्या हुनहुनीत स्पर्शाची याद जाली आनी ल्हवेन ल्हव फुल्ली. चार ओंठाच्यो पाकळ्यो एक जाल्यो आंगान जोगूल जोगलावलें.

" वसू ह्या पाकळ्यांत अमृत सांठलां. गुरगुंटो जावचें आनी अशेंच ह्या पाकळ्यांत रातभर रावचेशें दिसता. गुरगुंट्याची गजाल जाणां तूं वसू? गुरगुंटो कमळाचें म्होव खावंक पाकळ्यांत भितर सरता. कमळांच्या पाकळ्यांत घुंवतना तंद्री लागता. सांजवेळ जाता आनी कमळाच्यो पाकळ्यो धांपतात. गुरगुंटो थंयच उरता. व्हडले व्हडले वाशे, लाकडां पोखरपी गुरगुंट्यांक भायर येन दिसना. तशेंच म्हाका दिसता."

अभिचो हुनहुनीत स्पर्श, ताजीं म्होवीं उतरां. कितलो वेळ आमी दोगांय थंय बशिल्लीं.

तिनसांज जाली.....मळव रंगान रंगलें......पांचवो.. . .तांवडे निळो ... .. रंग रंगांत भरसले. म्हणटासर मळबानय काळोख पातळत आयलो........ माडांचो पांचवो रंग काळखांत भरसलो.....समुद्राचो आवाज वाडिल्लो.....ल्हारां उफेत येतालीं.भरती आशिल्ली.म्हजें मनय भरतेभशेन उंचबळून आयिल्लें.कवळ्या पानाभशेन मोगा ल्हारां धोलतालीं.

इतल्यान बाबुशाचो उलो कानार पडलो.

बाबुसो आमकां सोदीत आयिल्लो.

"वसू बाबुसो उलो मारता"

दोगांय उठलीं. चलूंक लागलीं.

"कितें भियलों रे हांव?" बाबुशान म्हळें.

"कित्याक भियेलो रे बाबुशा? रानांत ना रे आमी. हांगा भंय कसलो?" अभिन म्हळें.

आमी परतलीं. बाबुसो एकसारको बडबडटालो. पूण ताजीं उतरां म्हाका आयकूंक येना आशिल्लीं....कितलो वेळ हांव सपना पळयतालें......फाटल्यो यादी याद करतालें.

७

रेणू च्याचें कोप घेवन म्हऱ्यांत उबें राविल्लें.

"आई च्या घे. बरें दिसतलें.....आनी उदक काडलां बालदेन न्हांवन घेता न्ही?" रेणून विचारलें.

"हय गो"

"आई तूं बारावो म्हळ्यार रावतली काय म्हज्यावांगडा येता. अनयाक ताईकडेन दवरला. हुस्को जाता वोगीच. तें केन्ना एकटें रावूं ना. तिकीट काडपाक सांगपाक जाय."

"ना गो हांव येना. हांव रावता." हांवें म्हळें.

रेणून अजापान म्हजेकडेन पळयलें. पूण कांयच उलयलें ना.

"आई आताच करुणाचो फोन आयिल्लो. थंय एकटेंच आसा तें. भावोजीय युरोपाचे भोंवडेर आसा. तुका सांबाळ म्हण सांगलां. पत्र बरयतलें तें." रेणून सांगलें.

करुणा म्हजें चली. अमेरीकेक आसता. पयस आसतना पत्र बरयता म्हाका. मोगाचो वझरो व्हावंता अजूनय काळजांत ताज्या. नाजाल्यार तृप्ती! हाताचीं पांचय बोटां सारकी आसनात. एके आवयगेर जल्म घेवन दोनय चलयो दोन तरेच्यो.

इतल्यान तृप्तीन रेणूक उलो मारलो.

"आई तृप्ती उलो मारता. हांव वता. रोखडीच यो. उदक न्हिंवतलें कळाव जाल्यार." रेणू गेलें.

सकयल वचचें, न्हावचेशें दिसनाशिल्लें. हुनहुनीत चा घेतली. मन पाखां लावन परत कुळारच्या घरांत गेलें.

अशीच सांजवेळ आशिल्ली.... दुसऱ्या दिसा अभि शारांत वचपाचो आशिल्लो. आतां फकत सुटी पडतगीर येतलो अभि. मन खंती जातालें. दोळे दुखांनी भरताले. ताजो विरह सोसपाक मन तयार नाशिल्लें.. ...ताणेंच म्हाका सपनाच्या जगात व्हेल्लें......ताजेबगर रावप ही कल्पनाच सोसना आशिल्ली.

मनांत अस्वस्थताय, दुख्ख, भंय, कितले भाव उदेताले आनी नाच्च जाताले.

मिर्गाचो पावस पडून गेल्लो.....झाडांचेर नव्यो आंकऱ्यो फुटिल्ल्यो .....

..माती पावसाचे दडकेन भिजिल्ली..... कांय वेळा पयलीच दडक येवन गेल्ली मातयेचो वास परमळिल्लो.

हांव कुळागरांत गेलें..... सदां अशा सैमान म्हजें मन धोलता . पूण आज मनार काळोख पातळिल्लो.......

दीस मावळत येतालो.......

"वसू एकलेंचशें बसलां. हांवे सगळ्यांक सोदलें तुका."

"आतां अशेंच एकलेंच जगपाची सवंय करुंक जाय." हांवें म्हळें

"आगो सामको सोडून वचचो ना मगो तुका ?"

"थुमेकाल.असलें कितेंय उलवशीत जाल्यार हांव उलोंवचें ना तुज्यालागीं."

"वसू तुकां सोडून वचपाक जिवार येता म्हज्या. पूण म्हाका शिकूंक जाय. म्हज्या पांयार उबें रावूंक जाय. आजोळा कितले दीस रावप."

"सगळें कळता रे म्हाका. पूण तूं नासतनां म्हजें कशें जातलें. येवजून येवजून तकली भेरेता. पूण तूं शिकपाक वता. कितलें बरें शिकप. ह्या घराकडल्यान पयस वचप. शेंवण्याभशेन. तूं नाशिल्लो . हांव पळयत बशिल्लें शेवण्यांक . वयर वयर मळबान उडटात..... "

जमनीकडल्यान पयस उडटात पूण जमिनीकडलें नातें तोडनांत.

तीं शेंवणी पयस उडटालीं ..... तांचो कुलकुलाट आनी मातयेचो परमळ एकमेकांत भरसल्लो.

आज म्हाका दिसता, अशी जीण फकत शेवण्यांनी जगपाची. आमकां वयर उडन दिसता पूण आमचीं पाखां सांखळयांनी बादिल्ली आसतात. उडपाक सोदचें आनी कोणेतरी पाखांक घट्ट धरचें अशें जाता. मुक्त जगपाक फुडें सरलीं तर मातयेकडेन आशिल्लें नातें आमी विसरतात. मागीर आमचे जिणेंक कांयच अर्थ उरना. दोरी तुटिल्ल्या पंतगाभशेन जाता जीण."

पूण तेन्ना तें गिन्यान खंय आशिल्लें. अभि पयस वता म्हण मन दुखेस्त जाल्लें. अभि पयस वतलो हें कळतगीर हांव खिणांत व्हड जालें .अभिच्या आनी म्हज्यामदलें कवळें नात्याचें गुपीत कळतगीर हांव सामकें बदलिल्लें. इल्लेशे तकलेंत मावचेंना अशे विचार येताले. मनाचीं दारां किलकिलीं करुन काळा फुडलें विचार करपाक, सपनां रंगोवपाक हांव रंगतालें.

त्या दिसाय झाडांची, माडांची सावळी पांघरुन सांजेवेळा ओग्गी बशिल्लीं. इतल्यान कुपार कुपां दाटून आयलीं

''वसू, वचया आमी. पावसाची दडक येतली.'' अभिन म्हळें.

म्हजें आंग जड जाल्लें . थंयच्यान उठचेंच न्ही अशें दिसतालें.

अभि म्हज्या सामको लागीं आयलो. ताणें म्हजो हात हातांत घेतलो आनी म्हाका वेंगांत घेतलें.

काळोख आनीकय गडद जाल्लो. झाडांनी पांचवो रंग सोडून काळो रंग पांगुरिल्लो. भोवतणी थंड शितळसाण पातळिल्ली. सगळो वाठार ....एकरंगी.. . . एकाकार जाल्लो. म्हजें मन मात काळ्या कागदार रंगयिल्ल्या तरांतरांच्या फुलांच्या तुऱ्याभशेन जाल्लें. मनय परमळिल्लें. आंगार वाऱ्याचो झोत आयलो आंग शिवल्लें. इतल्यान पावसाची दडक आयली ल्हानशीच. आंगार थेंबे पडले.

''अभिदादा, अभिदादा.'' सुमीचो उलो कानार पडलो.

''अभि आवाज येता, सुमी आनी भावना तुका उलो मारता. आतां म्हजी धडगत ना. आमकां पळयलीं जाल्यार ?''

''पिशें ! पळयल्यार पळोवनी.''

''तुका फकाणां येवजतात. भावना शेवतेंआकाक सांगतलें. शेवतेंआका म्हाका उबें चिरतलें. तूं फाल्यां वतलो. म्हाका ताजी उलोवणी आयकुंची पडटलीं. अभि आमी या.'' हांवें भियेवन म्हळें.

"पिशा.....ह्या झुडपानी बसया. काळखांत कांयच दिसचेंना तांका. पावसय लागचो ना." अभिन म्हळें.

आमी दोगांय झुंडपान लिपलीं. सामकी थोडी सुवात. दोगांचीय आंगां एकामेकांक तेंकतालीं.

बॅटरी दिव्याचो उजवाड काळखांत चकचकलो.

"हांगा ना अभि." सुमीन म्हळें.

"वसूय ना. दोगांय खंय वचूं ना मगो सुमा ?" भावनान दुबावान म्हळें.

"वसू गेलां आसतलें चंपागेर" सुमीन म्हळें.

म्हज्या काळजांत कलकलतालें. भंय, लज, अभिलो हुनहुनीत स्पर्श. तीं दोगांय गेलीं तेन्ना हांवें सुटकेचो सुस्कारो सोडलो.

"कितलें भिलें हांव"

"हांव वता घरा. म्हाका भंय दिसता. शेवतेंआका खावं काय गिळूं नदरेन पळयतलें म्हाका."

ताजे वेगेंतल्यान हांव सुटलें. काळखांत घुसपून दोनदां पडलें. घरा पावलें. शेवतेंआकालो प्रसाद खाल्लो उलोवण्याचो. पूण मनांत ती ओली तिनसांज नाचताली. अभिलो स्पर्श, उतरांचें कवटें आंगार चडिल्लें. शेवतेंआकाचीं कुसकीं उतरां, थोमणें मनाक तोपलेच ना.

अभि दुसरे दिसा गेलो.....

दीस सोंपताले ......

फाटल्यो यादी याद करतना दीस सोंपताले.

काका शारांत वचून येतगीर अभिल्यो खबरो कळताल्यो.

मन एकलेंच खंती जातालें.....रेंदराचें कातार याद जातालें.

पाखां आसल्यार रे मोगा.....

खरेंच पांखा आसल्यार कितलें बरें जातलें आशिल्लें. म्हज्या मनांत येतालें.

अभि सुटयेंत येतालो...... दीस चंवरताले..... तिनंसाज फुलताली ... .. परमळटाली.

दर खेपे ........दर वर्सा अभि वेगळो दिसतालो......आत्मविस्वासान फुलिल्लो..... खूब गजाल्यो सांगतालो.

आतां तो इंग्लीश पुस्तकांय वाचतालो.....पुस्तकांतल्यो गजाल्यो सांगतालो.

म्हज्या सौंदर्याची तुस्त करतना लेगीत तो कवितेन उलयतालो. ताजीं तीं उतरां अजुनय याद जाता... .पयलो मोग .....पयली मोगाची नदर ..... आनी उतरां. आज जिणेची सांजवेळ जाली तरी हांव विसरुं ना.अजूनय तीं उतरां याद केल्यार आंगात झिणझिण्यो येतात. अभिन म्हळें,

"वसू सैम कितलो सोबीत. कितलोय पळय, सैमाक. मन तृप्तच जायना. दर्याचीं ल्हारां, माडांची सळसळ, पांचवी आंकऱ्यो फुटिल्लीं झाडां. जितलें पळयता तितलें पळयत रावन दिसता. दोळे न्हिवनात. मन तृप्तच जायना. परत परत पळोवचेशें दिसता.तशेंच तुजें सौंदर्य.सैमाची सोबितकाय तुज्या आंगार पातळल्या .हात्याभशेन तुजें आंग." चाफ्याच्या कळयेभशेन नाक, मोगरेच्यो कळयो अशें दांत. नागिणीभशेन चाल, वझऱ्याची खळखळपी उमेद, सदां फुलतो हांसो....".

म्हजे सोबितकायेचें वर्णन करतना तो कवी जातालो आनी हांवय ताज्या सांगातान फुलतालें.

अशेच शिगम्याचे दीस आशिल्ले. गांव फुलिल्लो. अभि चार-पांच दीस घरा आयिल्लो.आमी सगळीं न्हंयचेर फिरपाक गेल्लीं. हांव, सुमी, भावना, बाबू आनी अभि. खबऱ्यो रंगल्यो. झांकण्यो मारता मारता दीस सोंपलो. आमी घरा परतलीं. काकी भायर आशिल्ली. आमची वाट पळयत.

"बोवाळ करु नाका." तिणें सांगलें.

आजो हांतुणार न्हिदिल्लो. शेवतेंआका पायांकडेन बसून रडटालें.

" काकी कितें जालें?" हांवें विचारलें.

" तुजो आजो आमकां सगळ्यांक सोडून गेलो." तिणें म्हळें. आजी आमका सोडून गेल्ली त्या दिसाची याद जाली.

आजेच्या यादीन दोळे दुखांनी भरले. कितलें सोसलें आजेन. सगळ्या घराचेर मायेची सावळी धरली. माया वाटली सगळ्यांक. ओवळांच्या फुलांभशेन यादी आजेच्यो! आजी गेली. पूण यादी सोपनांत त्यो परमळतात. आजो मात आपल्याक जाय तसो जगलो. जीण ही फक्त आपल्याखातीर जगपाची आसता असो वागलो. ताजें उतर सकयल वडोवपाचें धाडस कोणाक जालें ना. १६-१७ वर्सांचो आजो आशिल्लो तेन्ना ताज्या बापायचें मरण जाल्लें. हो सगळ्यांत व्हडलो. घरचो भार हाज्या माथ्यार. फाटलीं भांवडां हो सांगता तें आयकतालीं. आवयलेगीत ताका दचकून आसताली. हांव करतलो तो कायदो असोच तो वागलो. ताज्या उतरा भायर वचपाचें, ताका ना म्हणपाची कापास्ताद कोणाक नाशिल्ली.

अभि चार पाच दिसांखातीर आयिल्लो. पूण आता आज्याचो बारावो जातगीर वचपाचो आशिल्लो.

बाळू देवळाफाटल्यान गणसूगेर वचून आयलो. आमकां सगळ्यांक आपयलीं. ताणें सांगलें, " तुमकां कितें सांगपाक जाय "

" कितें ?" आमी विचारलें.

" एक काणी"

" तूं काणी सांगतलो तोंड हारशांत पळय" भावनान ताका चाळयलो.

"काणी म्हाका गणसून सांगल्या. आमगेल्या घरांतली. आज्याली."

"आज्याली ?" हांवें विचारलें. "

" आजो गेलो आनी सुरंगा कलवंतान हातूंण धरलें अशें गणसू सांगतालो."

" वोगीच कितेंय सांगू नाका." भावनान म्हळें.

" ना गो खरेंच . आजी गेली त्या रातीसुध्दा आजो सुरंगागेर आशिल्लो खंय." बाबून सागलें.

" बाबू हांव बाबाक सांगतलें आ. नसत्यो गावांवयल्यो गजाल्यो घेवन येता. लोक उलयतात आनी तुका खरें दिसता ?" भावनान म्हळें.

" हांव सांगतांच राव." भावना उठलें.

" नाका गो बाये. गणसून सांगलें तें हांवें सांगलें."

" कितलेंदा सांगलें तुका बरे आमीग कर . पूण बरे लोक नाका तुका." भावनान म्हळें.

बाबू भियेलो. ताणें मागीर कांयच सांगलें ना.

म्हज्या मनातलें कोडें सुटलें....... हांव ल्हान आसतना आजो एकलोच रातचो चोराभशेन सुरंगागेर गेल्लो तर .

आज म्हाका कळटा. तेन्ना ती पिराय नाशिल्ली. आजेची जीण हुलपल्ली. आजो सुरंगागेर वतालो. सुरंगाचेर तरी ताजो मोग आशिल्लो काय सुरंगाच्या देहाक तो भुल्लुशिल्लो? पिशें सुरंगा. आपलो जीव आज्यार ओवाळून उडयिल्लो ताणें. आजो वतगीर हातूंण धरलें तातूंतच तें गेलें. आज्यान मात ताजी जीण वाट लायली. जळू चिकटता तसो चिकटलो ताका. आनी आजेचीय जीण हुलपावन उडयली. आजी सदांच हांसतें तोंड घेवन भोंवताली. मनातलें दूख तोंडार उदेवंक दिलें ना तिणें. सामकोच जीव कष्टतालो तेन्ना म्हणटाली, " रान्नीन लाकडां सारपाक जीण सोपली म्हजी." आजो कसोच बदचोना, बदलचोना हें कळलें. तिणें आपलीच जीण बदल्ली. सामकी उदकाभशेन! जातूंत गेली ताजी जाली .

आजेभशेन जावप मात सोपे न्हय. म्हज्या मनांत आयलें. म्हजे भशेन जीण, उडपाचें आंगात बळ ना..... दर्याच्या ल्हाराच्या उलटे पेवपाचो धीर जायना आनी व्हांवून वचपय जमना मागीर घुस्मटमार आनी तळमळे.

" आई" रेणून परत उलो मारलो.

हांव उठलें. कितलो वेळ हांव येवजीत बशिल्लें.

मागिलदारान आयलें. रान्नीन लाकडां पेटयलीं. नाल्लांचीं सोण्णां.....

लांकडाच्यो किटी उसळताल्यो.....तांबडेगूंज कोळशे . हांव मान्न्यान गेलें. कडकडीत उदकाचे तांबये भरुन माथ्यार ओतयले. कडकडीत उदकान आंग चुरचुरलें. तांबशें जालें. मनांतय कोळशे पेट्टाले.....जिणेंची सांजवेळ जाली पूण मनातलो धग उणो जाय नाशिल्लो.

न्हावन हांवें आंगार साडी ओडली.

हांव भायर आयलें.

" आई जेवता न्ही. "

"नाका म्हाका. हांव ओगी पडटां." हांवें विक्रमाक सांगलें. हांव माळयेर आयलें.

कितलो वेळ वोग्गी बसून रावलें.

लाकडाच्या आलमारीचेर नदर थिरावली.

हांव उठलें......म्हजीच आलमार .म्हज्याच कपड्यांची.

आलमार उगडपाक आलमारीलागीं गेलें.चावीय नाशिल्ली आलमारीक.आलमार उगडली.कपड्यांक कसलोसोच वास येतालो.कितलो तेप आलमार उगडूं नाशिल्लीच. हांव सांडून गेल्लें तेच स्थितीत म्हजी आलमार आशिल्ली.

शालवाची घडी हांवें सोडयली. शालवाच्या घडयेन दवरिल्लें पत्र भायर काडलें.

पत्र उगडलें, अक्षरावेल्यान हात फिरयलो. मनांत कितलींशीं ल्हारां फुटलीं. अक्षराचो रंग फिको जाल्लो. म्हजी नदर हांवें अक्षरांवयल्यान फिरयलीं आनी जाणट्या झाडाच्या खोडाभशेन निबर जाल्लें मन पाचवेंचार जालें.

ताज्या पत्रावयल्यान नदर घुंवपाक लागली.

वसू,

तुजे लागीं खूब उलोवपाचें आसलें पूण उलयतलों कसो ? आनी खंयच्या तोंडान उलयतलों ? असो प्रसंग म्हजे जिणेंत येत अशें हांवें सपनांत लेगीत चितूंक नासलें. पूण येवजुपाचेर कितें आसा ?

तुजें म्हजें नातें आतां सोंपलां.पूण मनांतल्यो यादी रेवेंवयल्या पावलांसारख्यो पुसून उडोवपाक जायनांत. खंयच्या तरी कोनशांत त्यो लिपोवन मात दवरच्यो पडटात. तुंय म्हज्याभशेन त्या यादींक बंदखणींत घाल . तूं म्हणटलें तूं हें सगळें कित्याक सांगता ? सांगपाचो अधिकार म्हाका ना. पूण तरीय......

तुजे जिणेंत हांवें सपनां फुलयलीं. तीं फक्त सपनां नाशिल्लीं. सत्य जातलें हाचो म्हाका भरवंसो आशिल्लो. पूण सगळेंच एका खिणान पलटलें. तूं म्हाका फटकिरो म्हणटलें, विस्वासघातकी म्हणटलें. म्हाका लागून सगळें घडलां हें हांव जाणां. म्हाका गुन्यांव भोगोस अशें म्हण तुजेकडेन माफी मागपाची सुध्दां म्हजी योग्यताय ना. तुज्या मनांत हांवें धग पेटयला. दोन उतरांनी तें दुख कमी जावपाचें ना. वयल्यान अशें पत्र बरोवन तुज्या दुखिल्ल्या मनाचे जखमेचेर मीठ चोळिल्ल्याभशेन जातलें हेंय हांव जाणां. पूण कितें करतलो. तुका बरयल्याबगर म्हज्या जिवाक सुशेग पडचो ना.

तूं म्हज्या लागीं उलयना. तुज्या जाग्यार कोणय आशिल्लें जाल्यार हेंच करतलें आशिल्लें. व्हाणांनी म्हजें तोंड फोडटलें आशिल्लें. तशें तुवें केल्यार म्हज्या गुन्यावाचें हांवें प्रायश्चित घेतिल्ल्याभशेन जातलें आशिल्लें . पूण तूं उलयना आनी म्हजो चड घुस्मटमार जाता.

तुजें भुरगेपण हांवें पळयलां. तुजी जीण पळयल्या. उमलचे पयलींच करपल्ली जीण म्हाका लागून तुज्या वाट्याक आयली. हांव आजोळा रावन शिकू नाशिल्लों जाल्यार जें घडला तशें घडूंक हांव दिवंचो नाशिल्लों. पूण उपकाराच्या पेजान म्हजीं भुजां बागवल्यांत. आईनय सोपूत घाला. सगळ्यां वटेनी हांव बांदलां कितेंच करुंक शकना . तुका पळयतां तेन्ना काळजांत कळ येता. हांव तुजो

अपराधी. तुवें व्हडल्या काळजान माफ केल्यारय म्हाका क्षमा ना हें हांव जाणां. तुजी पाषाणाभशेन जाल्ली नदर पळोवन म्हाका भंय दिसतालो. पूण तूं धिरान उबें रावलें. लग्नाक तुवें मान्यताय दिली हें कळतगीर म्हज्या जिवांत जीव पडलो. तुवें जिवाचें कितेंय बरें वायट केल्लें जाल्यार काट्याभशेन तें म्हाका तोपत रावतलें आसलें.

वसू तूं म्हाका झाडाभशेन दिसलें. शिंयान, उटंगाराच्या पावसान, गिमान झाड तग धरता. पानां गळतगीर तें बोडकें जाता..... तें निराश जायना. खंतीय जायना.....वाट पळयता.....वसंत येता आनी झाडाक आंकऱ्यो फुटतात....

वसू तूं म्हाका पडिल्लें एक सोबीत सपन. तुज्या सहवासातले क्षणय सपनाभशेन. तुज्यासारक्या रुपान आनी गुणांनय भरिल्ले चलयेचेर हांवें मोग केलो हाजेंच म्हाका सूख दिसता. हांव कपलफुटको म्हण तुजो सांगात जल्मभर मेळलो ना.

जिणेचीं कर्तव्यां करतना आमच्या मोगाची आहुती पेटली अशें समज. म्हज्यो यादी विसरुन नव्या जिणेची वाट चलतना फुडल्या पांयवाटेचेर फुलांच्यो पांयघडयो आसच्यो अशें म्हाका दिसता.

तुज्या लग्नाउपरांतचे जिणेंक म्हज्यो सदिच्छा.

आतां तुजो कसो म्हणू?

अभिजीत.

यादी विसर अशें सांगता आनी यादी रेवेंवयल्या पावलांसारक्यो पुसून उडोवपाक जायना अशेंय म्हणटा.

पत्र वाचलें आनी मन त्या यादीं भोंवतणी नाचूं लागलें. तो खीण मदीं मदीं दोळ्यांमुखार येतालो. त्या खिणाची सावळी मनाचेर पातळिल्ली. असले खीण विसरपाचो यत्न केले तरी विसरुं येनांत ? .

अभिजीत दोतोरकी पास जाल्लो. रमाआत्या खूब खोशी जाल्ली. घोवाच्या

मरणाउपरांत अभिकडेन पळोवन ती जगताली. आनी म्हाका तर अभि दोतोर जावन आयला म्हण इतली खोशी जाल्ली वर्णन करपाक उतरां लेगीत उणी पडटलीं.

तो दीस. . . . कसो विसर पडटलो त्या दिसाचो?

जेवणां जावन दनपारचीं आड पडपाची सगळ्यांक संवय. हांतुणार पडतगीर दोळो लागतालो आनी मागीर जाग येताली तेन्ना सांजवेळ जाल्ली आसताली.

अभिन म्हाका म्हळें,

"वसू पयस पासयेक वचयां".

हांव आनी अभि दोगांय पासयेक गेलीं.

चलत चलत खूब पयस पावलीं. अभि कितल्योश्योच गजाली सांगतालो. अख्खें भुरगेंपण या गावान गेल्लें पूण इतल्या पयस हांव केन्नाच पावूं नाशिल्लें.

ऑक्टोबराचो म्हयनो सोपत आयिल्लो. ल्हानशे दोंगुल्लेचेर आमी पावलीं. भोवतणी झाडांपेडा पांचवीचार गोजडी पांगरुन बशिल्लीं. रातीचो पावस शिवंरुन वतालो. त्याखातीर मातीय मोव मोव जाल्ली. दोगुल्लेवयल्यान शेत दिसतालें. भांगराचीं कणसां वाऱ्यार धोलतालीं. पयसुल्यान ल्हान ल्हान घरां चित्र रेखाटिल्ल्याभशेन दिसतालीं. लागींच ल्हानसो वझरो व्हांवतालो. सगळो निस्तब्ध वाठार .लागी वाऱ्याचो झोत आनी वझऱ्याचो आवाज. . . . .

पयस शेवर्णी गायतालीं.

अभि म्हाका तेंकून बसलो. सामको लागी. आता म्हाका कांयच आयकूं येना आसलें. फक्त ताज्या स्वासोस्वासाचो आवाज म्हज्या भोंवतणी पातळला अशें दिसलें. इतलो तेंप ताजे यादीन मन घुस्मट्टालें. आतां बांदून घाल्लें उदक बांद फुटतगीर उफाळून वयर येता अशें म्हज्या मनाचें जाल्लें. देहाकय कळ दामतगीर कारंजाचें उदक चोयबाजूंनी उडटा तशें तरंग उडटाले.

अभिन म्हज्या आंगावयल्यान बोट फिरयलें. आंगार तो स्पर्श पातळत रावलो,

हांव ताजेर लंवडलें. फुलांचो भार सोसूं नजो जावन वेल माटवार बागवता तशें.... सगळो देह आनी मन फुलिल्लें. ताणेंय दोनय हात म्हज्या कमराभोवतणी उडयले आनी म्हाका लागीं ओंडलें. दोळ्यांचेर ओंठ तेंकयले. पापण्यो लजे व्हंकल जाल्यो....गालांचेर ओंठ तेंकयले... ..ओंठार ओंठ तेंकयले..... कितलींशींच फुलां फुल्लीं.... ल्हारां उफेलीं आनी विरली......

ताजे वेगेंत हांव विरगळटालें. जणू हांव आनी तो वेगळीं नाशिल्लींच .मागीर झाडां पेडां भोंवतणी आसा हाजोय विसर पडलो. शेवण्यांचो आवाज कानार पडना जालो. भोंवतणी व्हांवतलो वझरोय गुणगुणपाचो थांबलो .. . .

आयज ही गजाल तुका सांगतना ती सांजवेळ जोगलाभशेन मनांत चकचकता. ती घुंवळ... .ती सांज....जगाक विसरुन घेतिल्लें ते सूख. तशें परत केन्नाच घडलें ना. आजय म्हाका आंगाभोवतणी पडिल्ली घट्ट वेंग याद जाता. घुंवळ हाडपी तो स्पर्श. ओंठाचेर अजूनय उष्ण स्वास रेंगाळता. आंगार ते यादीनच झिणझिण्यो येतात.

तूं म्हणटालें म्हातारपणांत म्हातारचळ लागलां काय म्हाका? चळलां बी न्हा मू न्ही? असो विचार तुज्या मनांत आयल्याबगर रावचो ना. पूण बायगो हांवे तुका मन उक्तें करुन सांगपाचें थारायलां. कसलोच आडपडदो दवरपाचो ना म्हाका.

आमी दोगांय एक जालीं. दूद उदकान मिसळटगीर दुदाचें आनी उदकाचें अस्तित्व वेगळें खंय उरता? कितलो वेळ शांततायेन गेलो. म्हज्या पयलीं अभि भानार आयलो.

''वसू नकळटा जें घडलां ताजो पश्चाताप करचो पडना मूं आमकां ?''

''नकळटां अशें कित्याक म्हणटा ? दोगांयच्याच व्हांवत्या इत्सांतल्यान हो खीण आयला.'' हांवें म्हळें.

''पूण''

''पूण आनी आमच्या मर्दीं कित्याक? विचार आनी कितें करतलीं ?

कितेंय करतना विचार करत रावलीं जाल्यार वायट कितें आनी बरें कितें हें चिंतपाकच वेळ वता. आनी त्या खिणाची खोशीय मेळना. चिंतेचें सावट पातळता. कळी उमलतना ती करता विचार फुलची काय ना असो ? गुंरगुटो फुलांभोवतणी घुंवतना येता ताज्या मनान विचार ? वझरो मनान येता तसो धांवता. मागीर तूंच कित्याक करता इतलो विचार ? " हांवें म्हळें.

"बरें जालें बाये. पावस पडतगीर मळब नितळ जाता तशें जालें आता तुज्या उतरांनी." अभिन म्हळें.

ताणें परत म्हाका वेंगेंत घेतलें ताजें नदरेंत तृप्ती आशिल्ली. खोशेंन दोळे चकचकताले.

"अभि विचारापरस मनासाकून घाल्लो उलो काळजांत रिगता. मोगातले

उत्कट खीण निर्मळ मोग खूब उण्या लोकांच्या वाटयाक येता." हावें म्हळें . दोगांय आमी परतलीं तेन्ना वेगळेच तंद्रेंत आशिल्लीं.

८

**को**णेय ज्योतिशान म्हाका जर सांगिल्लें, " पंदरा दिसांनी तुजे जिणेंत वादळ येवपाचें आसा. तुज्या नक्षत्रांत वायट योग आसा जाल्यार हांव ताका पिशांत काडटलें आशिल्लें. म्हजे जिणेचें व्हडें वादळान सापडून खंयच्या खंय पावतलें अशें हांवें सपनात लेगीत चिंतू नाशिल्लें. पूण मनीस येवजिता तशें जाताच अशें ना.

अभिच्या मोगान हांव पिशें जाल्लें. घरांत आसून नासल्याभशेन. त्या दिसा काका प्रसाद घेवंक गेलो. येतगीर खोशयेंत ताणें सांगलें.

"प्रसाद बरो जालो." ताजीं उतरां म्हज्या कानार पडिल्लीं. पूण काका

आतऱ्यापयऱ्यान राखणेचो प्रसाद घेवपाक वतालो. तसोच आसतलो अशें म्हाका दिसलें.

सांजवेळार हांव रांदचे कुडींत गेलें. रांदनीर दूद खतखततालें. काकी दूद घोटताली. शेवतेंआका आनी रमाआत्या पेढे करपाच्या तयारींत बशिल्ली.

"हुस्को मेकळो जालो बरो." काकीन म्हळें.

"आगो वसू घे पेढो. पयलो पेढो तुका." रमा आत्यान म्हळें.

"कसलो पेढो ?"

"तुका खबर ना ? अभिच्या आनी भावनांच्या लग्नाचो प्रसाद जालो. नक्षत्राक पडटालेंच. आज प्रसादय जालो." रमाआत्यान सांगलें.

कानांत तापिल्लें तेल ओतिल्ल्याभशेन जालें.

"कितें?" म्हज्या तोंडातल्यान नकळटां उतरां भायर सरलीं.

"तुज्या तोंडार काळोख कित्याक पडलो ? इतलो खोशायेचो खीण. कोण मेल्ल्याभशेन सुतकी तोंड कित्याक केलें ? शेवतेंआकान म्हळें.

एकाद्रें वादळ येवन एकेच फावटीन गांव उध्वस्त करुन उडोवंचो तशें म्हजें जालें. हांव कुडींत आयलें. हांतुणार पडलें. दोळ्यांतल्या दुकांनी उशें भिजलें.

"अभिन हय कशें म्हळे?" हो विचार परत परत मनांत येतालो. अभि लग्नाक तयार कसो जालो ? मनांत विचार भोंवऱ्याभशेन वाटकुळेच भोंवताले. इतल्यांत शेवतेंआका थंय आयलें आनी आड्डलें.

"आमोरेचेर हांतुणार पडल्यार घरांत अवदिसा येता. वाडलें, पूण रीत ना तुका".

"शेवतेंआका म्हाका बरें दिसना."

"आता बरें आशिल्लें. खिणांत कितें जालें ?"

तें कितें उलयतालें तें हांवें आयकलेंच ना. थोडया वेळान सुमी म्हज्या लागी आयलें.

"वसू तू कित्याक रडटा तें हांव जाणां. हांव सांगतां आईक." सुमीन म्हळें.

ताज्या उतरांनीच म्हाका धीर आयलो.

सुमी गेलें तशें हांव उठलें. शेवतेंआका आनी रमाआत्या पडवेर बशिल्लीं. हांवें कान दिवन तांचें उलोवणें आयकलें.

"आई तुवें लग्न थारायलां. अभिक विचारलें ? सुमीन रमाआत्याक विचारलें.

"अभिक कित्याक विचारुंक जाय गो ? कितें कमी आसा भावनान? नक्षत्रासारकें पोर"

"पूण ताज्या मनांत दुसरें कोणय. . . . " सुनीचीं उतरां सोपचे पयली शेवतेंआका ताज्या आंगार आयलें.

"मनांत कोणय आसल्यार आसूं . भुरग्यांचें आयकून लग्न थारावपाक आनी मोडपाक लग्न म्हळ्यार बावलेचो खेळ दिसलो तुका ? अभिक कितें कळटा? आमी येवजिलां तें ताज्या बऱ्याखातीर. तुका कोणें सांगलां गो सुमा चवकश्यो? भुरग्यांनी भुरगेरितीन रावपाचें. जाण्ट्यांल्या गजालीनी भुरग्यांनी लक्ष घालचें न्हय." शेवतेंआकान म्हळें.

"पूण शेवत्या अभिक विचारल्यार बरेशें दिसना तुका? लग्न म्हळयार जल्माच्यो गांठी." रमाआत्यान म्हळें.

"तूं आनी कितें विचारतलें आतां? पेढे दिले शेजाऱ्यांगेर. म्हुर्तय काडपाक लायलो. भुरग्यांचें आयकून लग्न मोडल्यार लोक शेण घालतले आमच्या तोंडांत. तो अभिय काल कुरकुरतालो तुजेकडें. हांवें आयकल्लें तुमचें उलोवणें, तुवें सांगूक जाय ताका. कितलें केलें अभिक लागून केशवान. भाचो कसो वागयलो ना. उपकाराचें परतवण करपाची हाचे फुडें कसली संद मेळटली तुका?" शेवतेंआकान विचारलें

"हय गो बाये. तेंच खरें. बापूय गेल्लो तांचो तेन्ना केदो आकांत आयिल्लो म्हजेर. थंय रावपाचेंय नाशिल्लें. घोव नाशिल्ली बायल म्हळ्यार व्हलें नाशिल्लें व्हडें" तांचें सगळें उलोवणें हांवें आयकलें. तोंड धांपून मुको मार सोसप इतलेंच म्हज्या हातांत उरिल्लें.

रातचो काका आयलो. तुळशी लग्नाउपरांत पयल्या म्हुर्तार लग्न थारायिल्लें.

"भावनाचें लग्न ठरलें. आता वसूकय बरो भुरगो सोदूंक जाय. चली म्हळ्यार परक्याली वस्त. ताजेकडेन पावली की आमी सुटलीं." रमाआत्यान म्हळें.

अभि दोन-चार दीस नाशिल्लो. तो आयलो. पूण ताजेकडेन उलोवणें जालें ना. येतगीर काका आनी तो खंयतरी भायर सरुन गेले.

तिळसांज जाल्ली. घरांत सगळो लग्नाचो बोवाळ .म्हजें बाविल्लें तोंड आनी खंती मन घेवन घरांत भोवपाक भंय दिसतालो.

"तोंडार काळोख कित्याक पडला?" अश्या शेवतेंआकाच्या उतरांनी मन आनीकय दुखावतालें.

म्हाका दिसलें घरांतल्यान पयस वचचें .....

पूण खीणभर पयस गेलें म्हण जल्माचे प्रश्न सुटपाचे नासले. पयलेच फावटी म्हाका केन्नाच पळोवंक नाशिल्ल्या आवयबापायची याद आयली. कित्याक केलें लग्न म्हज्या आवयबापायन? आनी कित्याक म्हाका जल्माक घालें? कोण आशिल्लो या घरांत म्हजो? ज्याचेर हांव विस्वासलें. ज्याका तनमन ओपलें तोय पयस गेल्लो. रातचो अभि आयलो. ताजे नदरेक हांवें नदर दिली ना.

दुसरे दिसा अभि कोण लागीं नां शें पळोवन म्हज्या लागीं आयलो, ताणें म्हळें.

"वसू तुका कितें सांगपाक जाय. घरांत सांगपाक जमचें ना ".

हांव वोगगी रावलें आनी पयस गेलें. आता ताका कितें सांगपाचें आशिल्लें? उलोवन कितें सादपाचें आशिल्लें? हांव ताका टाळीत रावलें.

लग्नाचो म्हूर्त लागीं पावलो. देवकारें जालें...... लग्नय उलगलें. अभिचे काकाय लग्नाक आयिल्ले. लग्नापयलींच व्हकलपावणी तांच्या घरा व्हरपाची म्हण ताणी आग्रो धरलो. लग्न जातगीर व्हकलपावणी तांच्या घरा गेली. देवान तितले तरी म्हजेर उपकार केले. मनान दूख आनी ओंठार हांसो घेवन लग्नाक हांव बोवाळलें. पूण तिनसांजे म्हज्यान रावूं नजो जालें. मनांत यादींचो हुंवार येतालो. अशें दुख तें मनांत लिपोवपाचें. कोणाकय सांगपाचीय चोरी.

अभिन बिराड पळयिल्लें. रमाआत्याय थंय रावपाक वचपाची आशिल्ली. सुमीय वतलें. सगळीं वतगीर तें घर म्हाका खावपाक येतलें पूण कितें करतलें. थोडे दीस गेले. अभि, भावना, सुमी, रमाआत्या सगळीं आयली. आनी मागीर बिराडांतल्या घरांत गेलीं. आतां हांव एकलेंच जालें. एकलें..... एकसुरेंच...

९

**अ**शेच दीस गेले .... . एक दीस सकाळीं उठनाफुडें म्हाका बरें दिसना जालें. घुंवळ येताली. कितें जाता तें कळनाशिल्लें. अशेच दोन तीन दीस गेले.

"कितें जाता गो? बरें दिसना." शेवतेंआकान मोगान विचारलें. शेवतेंआकान मोगान विचारप म्हळ्यार अजाप. ताज्या मायेच्या उतरांनी म्हजें दोळे दुकांनी भरले.

"बरें दिसना...... सकाळीं घुंवळ येता." हांवें म्हळें.

"म्हाका चिन्हा धड दिसनां तुजीं. खंय शेण खावन आयलें? घुंवळ वोगीच कित्याक येतली? दीस गेल्यात तुका "

"शेवतेंआका ...... " काकुळटेक येवन हांवें ताका उलो मारलो.

"नांव घेवूं नाका म्हजें. हांव जाणांच आशिल्लें तूं अशें दिवे लायतलें. मनाची लज ना जाल्यार लोकांची तरी लज धरची मनशान. रडटा आनी कित्याक? नांव सांग" शेवतेंआकान म्हळें.

"हांवें नांव सांगल्यार वारें नासतना घरावयले नळे उडटले. म्हाका उलोवंक लायनाका. म्हज्या सोशिकतायेचो अंत पळोवंनाका तूं शेवतेंआका"

"वयल्यान तोंड व्हडलें तुका. नांव नाका सांगूक. नांव सांगूक कितें जालें ? दादल्याची लज वचची ना. लज वतली तुजी आनी आमची. कोणाकोणाचीं तोंडां धरपाक वतलीं आमी ? "

शेवतेंआकाक नांव सांगनासतना सगळें कळिल्लें.

"वखद हाडून दितां तुका. ह्या कानाचें त्या कानाक कळूंक फावना. गावान बोब जाली जाल्यार लग्न जातलो कोण तुज्याकडेन ? "

"म्हाका लग्न जावपाचें ना."

"लग्न जावपाचें ना ? अख्खो जल्म पडला फुडें. कितें करतलें ?"

तें कितें उलयतालें आनी कितें ना......

सगळो दीस ताजी जळजळीत इंगळ्याभशेन नदर म्हजेर थिराविल्ली. चोरांक चोरी करतना पकडतगीर पकडणाऱ्याचे दोळे चकचकतात तशे ताजे चकचकताले. म्हज्या काळजाचे कुडके तोडपाक ताका बरी संद मेळिल्ली. मारचें पयलीं माजर उंदराकडेन खेळटा तशें तें म्हज्यालागीं खेळटालें. अभिचो आनी म्हजो मोग आसा हें ताका कळिल्लें पूण तें म्हणटालें.

" खंय गेल्लें शेण खावपाक? बी तशें भात. आवयन तशें नांव वगडायलें. तुवें अशें वगडायलें."

म्हाका दिसतालें खरेच कित्याक सोसचें हांवें? सांगून वडोवचें सगळें. सत्य सांगतगीर म्हजे जिणेंत वादळ आयलां तशें घरांत येतलें. अभिच्याय जिणेंत

येतलें. भावना ताका माफ करचें ना. थोमणें मारतलें. ताज्याय संवसाराचेर सावळी पडटली.

म्हज्या पोटांत वाडटा तें पाप न्ही. मोगाचें फळ आनी तेंय अभिचें हें सांगल्यार सोसूंक जातलें तांच्यान? हांवे कित्याक तळमळप? कित्याक सोंसप उतरां?

हांवें मोग केल्लो. मोग करप पाप? मनाचें नैसर्गिक फुलप पाप? जगपाची उमेद नाच्च जाली. दिसलें जीव दिवंचो नाजाल्यार खंय घराकडल्यान पयस वचचें. जगपाचें कोणाखातीर? कोण आसा म्हजो ?

मायेचो वझरो सोदतना रखरखीत वाळवंटात पावलें. फुलांच्या हांतुणार न्हिदिल्लें आसतना उकलून काट्यांच्या झुडपांत शेवटून वडयतगीर मनाची स्थिती जाता तशी म्हजी जाली. म्हाका दिसलें अभिचेर सूड घेवंचो. मनांत तरातराचे विचार येताले.

दोन तीन दीस गेले.....

शेवतेंआकान फांतोडेचेर हालोवन म्हाका उठयलें.

"न्हीद बरी पडटा तुका. म्हज्या दोळ्यांतली न्हीद काडली तुवें "

येवजून येवजून म्हाका न्हीद पडना आशिल्ली. फांतोडेचेर दोळो लागिल्लो. दोळो लागतासर शेवतेंआकान उठयिल्लें.

तशेंच हांव उठलें. शेवतेंआकान दिल्लें वखद तोंडांत रकयलें. वखत घेतगर खूप त्रास जाले. पूण ताजेपरसय उतरांनी मन घायाळ जालें.

खरेंच निसर्गान बायलेचेर व्हड अन्याय केलो अशें म्हाका दिसलें. मोग दोगांनीय केलो. जिणेंतलें सूख दोगांयनीन भोगिल्लें. खोशयेच्या, सुखाच्या समुद्रांत दोगांय पेविल्लीं पूण उदकांत पेवूंनय तो सुकोच उरलो. हांव मात पुराय बुडिल्लें.

आज येवजिल्यार दिसता, बायलांचो जल्मच वायट. बायलेक भावूक

केल्या. सोशीक केल्या. कितेंय सोसपाचें बळ दिलां देखूनच दुखाच्यो राशी नशिबांत घाल्यात बायलेच्या.

आज म्हाका दिसता पोरसांतल्या वेलींक फूल फुलतगीर आमी तोखणायेन पळयतात. वास परमळतगीर वेलीची तोखणाय करतात. मागीर मनशाचें फुलप पाप कशें जातलें?

हांवें खूप दूख भोगलें. वेदना पचयली. पूण तें दूख मनांत दवरलें. ओंठार येवंक दिलें ना. माटवार चडचे पयलीं म्हजे जिणेची वेल बाविल्ली. अभिन जें केलां ताजे त्रास भावनाक कित्याक? आनी हांवें अभिचेर मोग केल्लो. म्हाका दिसलें खऱ्या मोगांत व्देष कसो आसतलो.

हांवें म्हज्या मनाक समजायलें. म्हजे जिणेंत घडये दुखाचो समुद्र पेवपाचो आसूंये.

## १०

हांव मनाक समजायतालें पूण अभि आनी भावना येतालीं तेन्ना अभिक पळयतगीर ते खीण कितें जातले? त्या वाठारांक यादीचो स्पर्श चिकटल्लो . मोगाची गोडी चाखिल्ली नासता त्या म्हणसर दीस कितले बरे आसतात! अज्ञानांत सूर आसता.

म्हज्या लग्नाची उलोवणी करुंक काका आयलो. भावनाच्या लग्नाक न्हवऱ्या भुरग्यान म्हाका पळयिल्लें. ताका हांव पसंत आशिल्लें. काकान म्हाका विचारलें.

''म्हाका लग्नच करपाचें ना.'' हांवें म्हळें.

''लग्न जावपाक नाका. नाचपाक जाय?'' शेवतेंआकान म्हळें.

पळोवपाचो सुवाळो जालो. ताज्या घरांतल्या लोकांकय हांव पसंत पडलें.

लग्नाचो म्हुर्तय थारायलो.

त्या दिसा सुमी, भावना, रमाआत्या, अभि सगळीं आयिल्लीं.

"बरें जालें बाये. एका फाटल्यान एक पाखंराशी उडून गेलीं दोगांय. आतां वर्सभरान सुमीचेंय लग्न करुन उडयतगीर सुटलीं आमी."

हांव थंयच्यान उठलें. भायर आयलें. भायर अभि एकलोच बशिल्लो.

" वसू तुका कितें सांगपाचें आसलें. सांगपाक मेळना. हेंच वाच" अभिन म्हज्या हातांत पत्र कोबलें आनी तो भितर गेलो.

हांव तें पत्र घेवन भायर आयलें. घराकडच्यान पयस वचून वाचूंक बसलें. पत्र वाचलें. दोळे दुकांनी भरले. पत्रांतल्या अक्षरानी आंग चंवरलें. हालीं अशेंच जातालें. अभि दिसतगीर भावनाच्या तोंडार उदेल्ले तृप्तीचे भाव पळयतगीर म्हज्या देहाक, मनाक आवरपाक खूब कश्ट पडतालें. उजो पेट्टालो आंगांत आनी मनांत. पत्रांत ताणें म्हाका झाडाभशेन म्हणिल्लें. खरेंच म्हाका दिसलें हांवें झाडाभशेनच जावचें.

वत, पावस, वादळ, वारो, पानागळती सगळें झेलत झाड रावता तशें....

वेळ जाल्लो. मळबान नवे नवे रंग फुलताले आनी विरतालें. खंयतरी फुलिल्ल्या रानवेलीच्या फुलांच्या परमळान वाठांरांत परमळ पातळिल्लो. लागींच आशिल्ल्या वझऱ्याचो झरो फातरार आपटतालो आनी कारंजे कशो थेंबे भोवतणी शिंपतालें. सूर्याचीं किरणां तांचेर नाचताली आनी अवखळ हांसत्या चलयेच्या हांशाभशेन दिसतालीं. सगळो वांठार नटिल्लो. सगळया वांठाराक नदरेन पियेवन घेतलो. थोड्याच दिसांनी त्या वांठाराचो निरोप घेवपाचो आसलो.

हांवें थारायलें. नवे जिणेक सुरवात करप. फाटल्या दिसांची सावळी पडपाक दिवप ना. कितलोसोच वेळ हांव थंय बसून राविल्लें.

११

म्हजें लग्न. म्हजे जिणेंतली पयली रात. हांव पयलीच रात म्हणटां. अभिचें आनी म्हजें मिलन सूर्याक सांगाती दवरुन जाल्लें. सूर्यान जिणेंत धग ओतिल्लो. त्या रातचें चद्राचें चान्नें पडिल्लें. चंद्राची शितलता आमचे जिणेचेर पडची अशें त्या दिसा दिसलें.

जिणेचेर अभिची सावळी पडिल्ली. मनांत यादी नाचताल्यो. तें विसरप खूब कठीण आशिल्लें.

चिमणेच्या उजवाडांत कूड चित्रांतल्याभशेन दिसताली. जनेलांतल्यान झाडांच झाडां आनी माडाच्या चुडतांतल्यान चंद्र लिपून पळयतालो. आलमारींतल्या हारशाचेर म्हजी नदर पडली आनी अभिचीं उतरां याद जालीं. अभि म्हणटालो,

'वसू इंग्लीश कवी वर्डस्वर्थ हांची 'रुथ' ही कविता म्हाका खूब आवडटा. तांतल्यो ओळी अश्यो.

'' अँड नेचर्स ब्युटी सायलन्टली पास्ड इन टू हर फेस .''

त्यो ओळी तुजे कडेन पळयतगीर याद जातात. सैमाची सोबितकाय तुजेकडेन आसा. वझऱ्याचें अवखळपण, मनांत मळबाची विशालकाय, कळयांभशेन कवळेपण, ओवळांफुलांभशेन परमळीत तुज्यो यादी, उदकाभशेन एकरुपता.

अभिचीं उतरां मनांत पणत्यो कश्यो लिकलिकतालीं. हाजेफुडें अभिच्यो यादी मनांत येवप म्हणचे पाप. मनांतल्या कोनशांत त्यो पुरुन उडोवंक जाय. शरिराचेर ताजी सावळी पडल्याच..... मनावयली तरी म्हज्यान पुसून उडोवंक जायना?

म्हाका खीणभर दिसलें. हांवें म्हज्या जिणेंतलें तें सत्य घोवाक सांगचें. पूण

तें सांगिल्लें जाल्यार ताजेय जिणेंचेर ती सावळी पडटली. ताजे जिणेचेर म्हजे करणेचे सावळी कित्याक? ताजे म्हजे मदीं रेशमी नातें तयार जावचे पयलींच म्हाका तोडपाचें नासलें. हांवें ताजो विस्वासघात केलो. ताका हांवें फटयलो अशें म्हाका दिसतालें. पूण आतां म्हाका दिसता हांवें ताका फटोवंक ना. ताजे जिणेचेर कसलींच कुपां येवंक दिलीं ना. तें सत्य ताका कळिल्लें जाल्यार ताकाय जल्मभर त्रास जातलो आसलो. दादल्याक आपली बायल ही फकत आपलीच आसचीशीं दिसता. त्या ताज्या अंहकाराक हांवें दुखयिल्लेभशेन जातलें आसलें. तो सुखान जगलो आनी सुखान ह्या संवसारातल्यान गेलो. खंयचीच खंत, काळजी ताका नाशिल्ली. निर्विकार मन घेवन जिणेचो प्रवास ताणें केलो.

आनी हांव? तें सत्य हांवें मनांत दडयलें. काटे मुठींत घट्ट धरुन रावतगीर मुठीक तोंपतात तशेंच तें सत्य म्हज्या मनांत लिपोवन दवरतना म्हज्या मनाचें जातालें.

लग्नाच्या पयले राती मात म्हाका दिसतालें, म्हज्या घोवाच्या स्पर्शांत, उतरांत इतलें बळ आसचें की अभिच्यो सगळ्यो यादी झेलाभशेन वितळून वचूंक जाय. म्हजे जिणेर पडिल्ली अभिची सावळी ताजे सावळेन भरसून एकाकार जावंची अशें दिसतालें पूण अशें कांयच घडलें ना.

दोन शरिरां एक जाल्लीं. पूण मन...... विचार केन्नाच एक जालें ना. हांवें ताजी दुखां वाटपाचो खूब यत्न केलो पूण ताणें आपल्या भोवतणी एक वर्तुळ काडिल्लें. आपलेच तंद्रेन तो जगतालो. रांदपाचें सोडून म्हाका कितें कळटा? अशेंच ताका दिसतालें. म्हाकाय मन आसा, विचार आसा हें मानपाक तो तयार नाशिल्लो. ताजे जिणेंत ताजें घर, ताजीं मनशां हाकाच मान. आपल्या मनशाक मान दिवंक जाय. तांचेविशी-मोग, आदर आसूंक जाय पूण बायल आसा तिकाय भावना आसा हें ताका खबर नाशिल्ल्याभशेन वागतालो. मोगाची ताजे जिणेंत गरज नाशिल्ल्याभशेन तो वागतालो.

आजी म्हण्टाली तीं उतरां याद जातालीं, "बायल म्हळ्यार कोनशांतली सान्न" तो तोंडांन उलयनाशिल्लो. पूण ताजें वागप तशेंच आशिल्लें.

म्हजें कुळारय तुटिल्लें? कुळारा वचचेशें दिसनासलें. कोण आशिल्लो थंय

म्हजो? रांदप, वाडप आनी उश्टी काडप आनी भुरग्यांक जल्म दिवप हातुंतच दीस वताले. हें करतना वाळवंटांतल्यान एकल्याच भोवपी वाटसरुभशेन हांव जाल्लें.

पयलेच फावटी दीस वतात तो खीण बायलेच्या जिणेंतलो कितलो खोशयेचो खीण. पूण त्या खिणाचीय सावळी पातळिल्ली. म्हाका याद जाली ते फांतोडेची. शेवतेंआकाच्या तिख्या उतरांची. मन आनी शरीर हुलपवपी त्या खिणाची. मनाचो आनी तनाचो एकवट जावन मोगाचे वेलीर उमलपी फुलाक फुलचे पयलींच करपून उडोवंचें पडिल्लें.

आज जिणेंची सांजवेळ जाल्ली आसतना मनशाच्या संबंधाविशीं कांय मुळावे प्रश्न पडटात. घोवाचे वेंगेंत आसतना अभिचो विचार मनांत येतालो. तें पाप न्ही? पाप खंयचें? मन आनी शरीर चंवरनासतना घोवाकडेन जालो तो संबंध तें पाप न्ही? तें पाप कित्याक न्ही? फकत समाजाचे मान्यतायेचो शिक्को लग्नाच्या रुपान ताजेर बसता म्हण?

मुळात नैतिक आनी अनैतिक, पाप आनी पुण्य हांचे मदीं इतलो झिळमिळीत पडदो आसा की पाप आनी पुण्य एकमेकांत भरसून वता. पाप पुण्य वेगळें काडप कितलें कठीण. आज हे विचार मनांत येतात. अलिप्ततायेन हांव जिणेंकडेन पळयतां.

पूण मनांत कितलेशेच विचार येताले. केन्ना केन्ना दिसतालें अभि एकदांच मेळचो. हे विचार मनांत येवप म्हळ्यार पाप हें हांव जाणां आसलें पूण विचारच ते. मनाचीं दारां जनेलां बंद केलीं तरी मेळत थंयच्यान भितर सरताले.

म्हाका भुरगीं जालीं..... संवसार केलो पूण जिणेचो सूर जुळलो ना. मदीं बऱ्यो वायट गजाली कानार येताल्यो. वयनीबाय गेल्ली. बाबूचें लग्न थारलें पूण तेन्नाच तृप्ती जाल्लें. म्हाका वचप जमलें ना.

भुरगीं व्हड जातालीं. दीस फुडें सरकताले. काकी कॅन्सरान गेली. कोणाक त्रास न दिवपी आपूण बरें आपलें काम बरें अशी जगपी काकी कितली कश्टली निमाणच्या दिसांनी.

कॉलेजांत आसतना तृप्ती मोगान पडलें अभिच्याच चल्याकडेन. सगळ्यो यादी परत जित्यो जाल्यो. अभिक पळयतगीर मनाचो घुस्मटमार जातालो. विक्रमाक मुंबय नोकरी मेळली आनी हांवें थारायलें गोंय सोडप. हांव मुंबय आयलें. फाटलें सगळें विसरपाचो यत्न करत रावलें. मदीं केन्नाच गोंयात गेलें ना.

## १२

**आज** गोंयां आयलां. सगळीं मनशां दिसलीं आनी परत त्यो यादी जित्यो जाल्यो. रेणू मुंबय गेलें. बारा दीस जायसर विक्रम रावपाचो आसलो.

तिनसांजचो वेळ. हांव एकटेंच माळयेर बशिल्लें. इतल्यान विक्रमाचो उलो म्हज्या कानार पडलो.

" आई तुका मेळपाक कोणतरी आयला तुज्या कुळारचो ."

हांवें पळयलें, त्या मनशाक हांव वळखनाशिल्लें. केन्नाच ताका पळोवंक नाशिल्लो. जाण्टो ऐशी वरसां वयर पिरायेचो दिसतालो. वाकून चलतालो. ताजो तोंडावळो लांबसर, नदर भेदक, रुंद कपल आनी भांगराचे मुदयाळे केंस. हांव ताका पळयत रावलें. ताका बस म्हणपाचें लेगीत शितीद उरुंक ना.

" तूं म्हाका वळखचें ना" ताणें म्हळें.

तो भितर आयलो.

"बसून घेयात " विक्रमान ताका सांगलें.

थंयच्याच एका कदेलार तो बसलो. विक्रम गेलो. थोडो वेळ वोगी रावलो. म्हजेकडेन कितें उलोवप करशें हें तो चिंततालो आसूंये !

"हांव नाना. तू वसू न्ही? शेंवत्याकडेन हांवें तुजो पत्तो घेतलो. "

हांव ताका पळयत उरलें. नाना म्हळ्यार म्हजो बापूय. म्हज्या जल्मापयलींच घर सोडून गेल्लो म्हजो बापूय. पूण म्हज्या तोंडांतल्यान उतरां फुटलीं ना.

" अजून वळखूंक ना? शेंवत्याचो हांव भाव." ताणें म्हळें .

म्हज्या मनांत आयलें, शेंवत्याचो भाव अशें कित्याक सांगलें ताणें. तुजो हांव बापूय अशें कित्याक म्हळें ना?

"तूं सामकें तुज्या आवयभशेन दिसता. आशिल्ली जाल्यार ती आतां अशीच दिसतली आशिल्ली. शेंवत्यान म्हाका तुज्यालागीं धाडला. तुका मेळल्याबगर वचूं नाका असो सोपूत घाला. तें हांतुणार आसा. मरचे पयलीं तुका मेळपाक सोदता."

तो उलयतालो. हांव आयकतालें. हांवें ताका कांयच विचारूं ना. खरें तर खूब विचारपाचें आसलें. तो घर सोडून गेलो. म्हजे आवयन जीव दिलो. भुरगेंपणातलें पोरकेंपण याद जालें. पूण आतां हांव सुखदुखाच्या पलतडीं पाविल्लें. शेणिल्ले खीण परत मेळपाचे नासले.

हांव कांयच उलयलें ना. पूण म्हाका खूब सांगपाचें आसा, विचारपाचें आसा म्हणपाचें ताका कळलें.

" हांव तुजे आवयक सोडून गेलों. परत आयलोंच ना. जें घडलें तें काणयेभशेन. तुका आयकून कश्ट जातले. " ताणें म्हळें.

" कवळे पिरायेचेर सगळे घाव झेल्ले हांवें. आतां मन निबर जालां. आतां कसल्याय घांवानी जखम जावपाची ना."

तो सांगूक लागलो. हांव आयकूंक लागलें.

म्हजी काणी सुरु जाता भुरगेंपणांतल्यान-पूण हांव विस्तारान सांगना.... भुरगेपणासावन मन हुलपत वतालें. भुरगेंपणांत म्हजी आवय बरे संस्कार करपाक सोदताली पूण बापूय मात जाय तसो वागतालो. आवयचे संस्कार खरे काय बापूय जें वागता तें खरें? बरें वायट सोदपाचें बळ नासलें. मतय नासली.

हांव वाडटालों. जिणेची उबगण येताली. एकटेंच बसपाक आवडटालें. म्हजें मनच विचित्र जाल्लें. जे पिरायेचेर चलयांक पळोंवचेंशें दिसता, आंगान बदल जाता त्यावेळार म्हाका दिसतालें घर सोडून पयस वचचें. मनच विरक्त जाल्लें. आपलीं मनशां, घर कांयच नाका दिसतालें. घर सोडून वचचें ही भावना मूळ धरताली. एकलोच हांव बसून रावतालों. त्याच दिसांनी म्हज्या लग्नाचीं उलोवणी घरांत सुरु जाल्लीं. म्हाका लग्न करपाचें नाशिल्लें. म्हाका विचारनासतना बाबान लग्न थारायलें. ताजें उतर मोडपाचें धाडस घरांत कोणाकच नाशिल्लें.

म्हजें लग्न थारतकीर आईच्या आनी बाबामदीं जाल्लें उलोवणें अजूनय याद आसा.

आईन म्हळें,

"तुवें नानाचे लग्न थारायलां. ताका लग्न जाता काय म्हूण विचारिल्लें?"

"विचारपाचें कितें ? म्हुर्तय भटाक काडूंक लायला. नक्षत्रासारकें चली."

"तेंच हांव म्हणटां. कित्याक ते चलयेची जीण हुलपायतात."

"जीण कित्याक हुलपतली. तें काकागेर वाडलां. हांगा ताका हक्काचें घर मेळटलें."

"कपल. हाताक हात धरुन घरांत हाडपी सारको नाका? घर म्हळयार चार वण्टी, वयर नळे अशें दिसलें तुमकां? इतलें बरें चली आसा जाल्यार केशवाक पळयात. नानाच्या लग्नाची ताकतीक कित्याक?"

"तूं लग्नाच्या तयारीक लाग. सगळें भांगर आमीच घालून हाडपाचें. सोनूशेटीगेर गोट, पाटल्यो, हार करपाक दी आनी नानाक सांग आतां मनशांत यो. खंय वचून पिशांभशेन एकलोच बसूं नाका"

"म्हणूनच हांव म्हणटां. नानाचें लग्न थारायतना विचार करात"

"पुरो, बायलेचें आयकून घर चलोवपाक हांवें म्हजी अक्कल घाणाक दवरुं ना समजलें. तूं वच. लाग तयारीक लग्नाच्या"

ताज्या उतरांभायर वागपाचो धीर घरांत कोणाकच नाशिल्लो.

म्हजें लग्न जालें  तुजे आवयकडेन. पूण खंयचीच भावना मनांत फुलूंक नाशिल्ली. कांयच नाका दिसतालें.

जे रातीक जिणेचीं सपनां फुलपाचीं ते रातीकय मनान हांव विरक्तच आशिल्लो.

ते रातचो हांव कुडींत भितर सरलों.जनेलांत ती उबी आशिल्ली.देवाब्राम्हणाच्या साक्षीन हांवें तिजेलागीं लग्न केल्लें. बापायन सांगलां म्हण लग्न केल्लें.

कुडींत मंद उजवाड. मंद उजवाडांत एकाद्र चित्रकारान रेखिल्लें चित्र कशें म्हाका ती दिसली. खंयच्याय मनशाक पिशें लावपी अशी देखणी मूर्त पूण म्हज्या मनाची तारय धोल्ली ना आनी आंगारय चंवर फुल्लो ना.कागदावयलें सुंदर चित्र पळोवचें इतले तटस्थतायेन हांवें तिका पळयलें.

म्हज्या पावलांचो आवाज आयकून तिणें मान वयर काडली.

म्हज्या मनाचेर विचित्रसो ताण पडिल्लो. तिजें मन दुखोवपाचें नाशिल्लें. पूण फट आशेर तिका दवरुन तिज्या भावनेकडेन म्हाका खेळपाचें नाशिल्लें. हांवें बळ एकठायलें आनी म्हळें,

"तू म्हजी बायल खरी! पूण म्हाका लग्नच करपाचें नासलें, पूण बापायफुडें म्हजें कांयच चलना. तू जरी बायल आसली तरी तुजे म्हजे मदीं घोवाबायलेचे सबंद आसचें ना."

हांवें तशें सांगतगीर तिणें नदर वयर काडून म्हाका पळयलो. तिका खूब प्रश्न विचारपाचे आसूयें पूण ती कांयच उलोवंक ना.आनी कोणय बायल रडटली आसली. म्हाका दोषी थारायतली आसली. पूण तिणें कांयच केलें ना. तिज्या दोळ्यांत इंगळे पेटिल्लेभशेन म्हाका दिसले आनी दुसऱ्याच खिणांक ते पालवलेय.

दुसऱ्या दिसा ती हांसत्या तोंडान घरांत वावुरताली. हें तिका कशें जमलें कोणाक खबर .आज तिजी तोखणाय दिसता . पूण तेन्ना हांव म्हज्याच जगांत

जगतालों. ती भोवतणी वावुरताली पूण म्हजें मन आनी शरीर फातराभशेन जाल्लें. मनांत कंवळी भावना फुलनाशिल्ली. मनांत येतालें घराकडच्यान पयस वचचें.

म्हज्या लग्ना उपरांत रोकडेंच शेवत्यालें लग्न जालें. शेवतें म्हज्या लागी उलयतालें, म्हाका समजायतालें. पूण तेंय घोवागेर गेलें. दीस वताले तशें म्हज्या मनांत येतालें घरापासून पयस वचचें. ह्या घरांत मनाक शांती मेळपाची ना. मन अस्वस्थ जातालें.

आनी एक दीस हांवें घर-सोडलें...... गोंय सोडलें....... हांव भोवतालों. भोवता भोवता हांव एका साधू लागीं पावलों. म्हाका दिसलें म्हाका मनाची शांती जाय ती हांगा मेळटली नाजाल्यार वाट तरी सापडटली. थंय म्हजी जीण वेगळेच वाटेर पावली.

एकलो बसतगीर घरची याद येताली. मनांत येतालें तुजें आवयचें कितें जाला काय? कितें अधिकार आशिल्लो म्हाका तिजे जिणेची अशी वाट लावपाचो? म्हजे आवयची याद येताली. पूण घरा वचचेशें मात दिसनाशिल्लें.

थंय साधूगेर म्हजी गांठ एके चलयेकडेन पडली. अवंतिका तिजें नांव. तिज्या हांव मोगान पडलों. ती दिसना जाल्यार मन घुस्मटील्लेभशेन जातालें.

खदळावपी वझऱ्याभशेन तिजी उमेद, आंगार रंगाचें कपयाळें घेवन उडपी पाख्याभशेन ती फिरताली. ती चलतना दिसतालें पारजताच्या फुलांची नाजूक ताळी वाऱ्यान धोलता आनी ती हांसतगीर ते ताळेवयलीं कितलींशींच फुलां सकल पडतना वाऱ्यार वास परमळयत गेल्यांत.

हांव विरक्त मनान घर सोडून आयिल्लों. पूण विरक्त जावपाचें सोडून म्हजें मन तिजे भोवतणी घुंवपाक लागलें. म्हाका दिसता विरक्ती आनी आसक्ती ह्यो एका नाण्याच्यो दोन बाजू आसतल्यो. पूण आता मन भजनान रमनाशिल्लें. देवाचे मूर्तीफुडें बसून जप करतना लेगीत मनांत तिजेच विचार घोळतालें.

म्हजें मन म्हाका सांगतालें. तिजे कडसून पयस वच. घराकडसून गेला तसो.

पूण खिणभरच. ती लागीं आयली हांसली. तिणें हातांत हात धरलो. अशें दिसतालें ना. ...तिजेकडसून पयस गेल्यार पिश्याभशेन हांव जातलो.

ती म्हजे लागी खूब उलयताली. तिजे म्हजे मदीं आतां कसलोच पडदो उरुं नाशिल्लो. हांवेंच एक दीस तिका म्हळें,

"म्हाका दिसता हांवें हांगाच्यान पयस वचचें. ह्या दिसांनी देवाच्या जपांत मन रमना. मनाक शांती ना."

"शांती मेळोवपाक तूं हांगा आयला. पूण ज्याका तू देव मानता तो." ती उलोवपाची रावली.

"तो कितें? कितें सांगपाचें आसा तुका?" हांवें तिका विचारलें.

"ताज्याच मनांत शांती ना. तो तुका कितें वाट दाखयतलो शांतीची."

"अशें उलय नाका. मनांत भावार्थ आसूंक जाय. तूं बाबाक वळखना!" हांवें म्हळें.

"हांव वळखना म्हज्याच बापायक?" तिणें विचारलें.

"तुजो बापूय?" हांवें अजापान तिका विचारलें.

"हय म्हजोच बापूय. हांव ताजें चली. ताजो संवसाराचो गाडो चलोवप ताका त्रासाचें जाल्लें. तेन्ना ताणें हो भेस घेतलो. नाटक भोव बरें जमलें. लोक येवपाक लागले.आपलो चरितार्थ चलोवपाक लोकांच्या भावार्थाचो फायदो उठोवपी म्हजो बापूय तुका कसली वाट दाखयतलो?" तिणें विचारलें

"खरें सांगता तूं हें" हांवें विचारलें

"खरें. तुका खरें दिसना पूण हें खरें"

तिणें म्हळें. ती भितर गेली. तिणे फोटो हाडलो. तातूंत बाबा ती आनी तिजी आवय. दाडी लायिल्ली आनी भगवें न्हेशिल्लो जाल्यार सामको बाबाच. हांव पळयत रावलो.

"तुजी आवय खंय?" हांवें विचारलें.

"ती हें जग सोडून गेली." तिणें सांगलें.

म्हजे दोळे तिणें उकतें केल्ले. ज्याका हांव साधू समजतालों तो साधू नाशिल्लोच. तिजें म्हजें नातें घट्ट जातालें......आनी एक दीस सगळें बदल्लें.

तिणें सांगलें,

"म्हज्या बाबाक आमच्या नात्याचो दुबाव येवचे पयलीं आमी खंयतरी पयस वचया. तो तुका आपल्या फाटल्यान हें चलोवपी शिष्य ह्या नात्यान पळयता. म्हजे तुजे संबंध तो मानचो ना."

आमी पयस वचपाचें थारायलें.ती म्हजे वांगडा येवपाक तयार जाली आनी खंय खंय हांव भोवपाचों आशिल्लों कोणाक खबर. लग्नाचे बायलेक सोडून हांव विरक्त मनान भायर सरिल्लों आनी आतां फुडें कितें जावपाचें आशिल्लें फक्त देवाक खबर.आवयचीं उतरां म्हाका याद जालीं," सटयेच्या राती बरयलां तें चुकना रे बाबा!"

ती रात उमाशेची. ते रातीचो विसर कसो पडटलो ? आज म्हजे जिणेची सांजवेळ जाल्या पूण ते रातीची याद आयल्यार कालच घडिल्लेभशेन मन जिवें जाता.

उमाशेची रात पूण म्हजे जिणेंत पुनवेचें चांन्ने ते रातचें पडलें. भंय, विरक्त, एकटेंपण कापराभशेन उडून गेलें. उल्लो फक्त मोगाचो परजळीत वास.

जिणेचें पद म्हाका गायन दिसूं लागलें. सुर्याचीं कंवळीं किरणां सांजवेळे,पाखरांचो कुलकुलाट सगळें बरें दिसतालें. कित्याक तर अवंतिका लागी आशिल्ली. तिचो हात हातांत आसतगीर आषाढांतल्या पावसांत मोर नाचता तशें मन नाचतालें. मोहर येतगीर झाड चंवरतालें. तशें आंग चंवरतालें. म्हाका दिसता म्हाका मोगाची, आपलेपणाची गरज आशिल्ली ती म्हाका अवंतिकेकडल्यान मेळिल्ली.

तिजे सांगतान हांव तृप्त जीण जगलों.

तो उलोवपाचो थांबलो.

हांवें ताका विचारलें,

''पूण तूं लग्न जाल्लो म्हणपाचें तुवें अवंतिकेक सांगिल्लें?''

''हय''

''तिणें कांयच म्हळें ना ?''

''ती म्हजेर मोग करताली. कायद्याचें, सातफेऱ्यांचे खंयचेंच बंधन आमचे मदीं नाशिल्लें. पूण तिका आनी म्हाका ताजी केन्नाच खंत जाली ना. तिका हांवें म्हजी फाटली काणी सांगली. तिका फटोवंक ना. विस्वासाचे बुन्यादीचेर आमचो संवसार चल्लो. हालींच ती गेली. म्हजीं दोन भुरगींय आसा. तांच्याच लागी हांव आसतां.''

''मागीर इतल्या वर्सांनी तुका गोंया येवचेशें कित्याक दिसलें.'' हांवें विचारलें.

''खरें सांगू? मदीं मदीं तुजे आवयची याद येताली. ती कशी आसा. दुसरें लग्न बी जाली काय? कशी काडली तिणें जीण. तिजो हांव अपराधी आशिल्लों हो विचार काट्याभशेन मदीं मदीं तोपतालो. पूण गोंयां वचचेंशें कित्याक दिसलें तें मात म्हज्यान सांगूक जावचें ना. घडये जे मातयेंत जल्म दिला ते मातयेची, ते भुंयची ओढ लागली जावंये. घडये आनी कसलेंय कारण आसत. गोंया वचचेशें मात दिसूंक लागलें. मरचे पयलीं गोंया वचपाचेंच अशें दिसूंक लागलें. मन तळमळूंक लागलें गोंयां वचपाक.

शेवतें मेळलें. तें म्हाका वळखूं ना. नाना आयलो अशें सांगलें तरी ताका खरें दिसूंक ना. इतलीं वर्सां हांव जितो आसां हाजेर ताजो विस्वासच बसूं ना.

ताणें म्हाका तुजे लागी धाडलो . तूं शेवत्याक मेळ.. तुका मेळपाक ताजो जीव घुटमळता.

इतलें सांगलें आनी तो उठलो.

''बरें येता हांव''

''रात पडल्या. इतल्या रातचो वता?'' हांवें म्हळें.

''अख्खो जल्म भोवपाक गेलो. रातीचो भंय कसलो? बरें येता हांव''

ताणें फाट केली आनी तो कुडीच्या भायर सरलो. माळये वयल्यान देंवतना ताज्या व्हाणांचो आवाज हांव आयकत रावलें.

तो गेल्लो तो म्हजो बापूय न्ही. मागीर म्हजो बापूय कोण? आतां प्रश्नांचें उत्तर मेळप इतलें गरजेचें नाशिल्लें पूण मनांत वोगीच प्रश्न पडिल्ले. जिज्ञासेंचीं दारां उक्तीं जाल्लीं.

विक्रम वयर आयलो.

''आई कोण तो?'' विक्रमान विचारलें.

''पयसुलो सोयरो. गांव सोडून गेल्लो. शेंवतेंआकान ताका म्हजे लागीं धाडला. भुरगेपणार आंगाखांद्यार खेळळां हांव ताज्या. म्हाका पळोवपाक म्हण आयिल्लो.'' हांव कित्याक इतलें फटी उलयतालें तें म्हाकाच कळूं ना.

''विक्रम म्हाका फाल्यां शेंवतेंआकाकडेन वचूंक जाय. तें हांतुणार आसा. म्हजी याद काडटा खंय. टॅक्सी सांगता न्ही ''

''केन्ना जाय?'' ताणें विचारलें.

''दनपार अडीच वरांचेर सांग. पावतासर सांजवेळ जातली. सांजवेळा आड पडपाची सगळ्यांक सवंय.'' हांवें म्हळें

पूण आतां घरांत आशिल्लीं कोण? शेवतेंआका तर हातुणाचेरच पडिल्ले.... कशें आसतलें काय घर ..... मनांत आयलें . परत मन घरांतल्या यादीनी घुस्पलें.

## १३

रातीचो दोळो लागतालो. जाग येताली. कितल्या तेंपान हांव कुळारा वतालें.

"वयनी हांव शेवतेंआकाक मेळून येता"

"हें गे बाये कितें. तुका मेळूंक लोकांनी येवपाचें आनी तूं वता मेळपाक? अजून बारा दीस सुध्दा जावूं ना." तिणें म्हळें.

"शेवतेंआका हातुंणार आसा. म्हाका मेळूंकच जाय. जाण्टें मनीस. केन्ना कितें जायत सांगू नज." हांवें म्हळें.

"केन्ना कुळरा गेली ना. हें आनी कितें काडलें नवें. हिजें बाये आयकत तें नवल." तिणें म्हळें.

तिजीं उतरां आयकूंक हांव थंय रावलें ना.

दनपरां हांव भायर सरलें......गांवांत पावलें. गांव तसोच आशिल्लो. चड बदलूं नाशिल्लो. मनांत आशिल्ल्या चित्रांतलो गांव चडसो बदलूं नाशिल्लो.

घराकडेन गाडी थांबली. सावळी पातळिल्ली. आंगार वाऱ्याचो झोत आयलो. शितळसो. माडांच्या चुडतांतल्यान, झाडांच्या पानांतल्यान नाचत कवडसे आंगार पडटाले.

दारांत पावलें..... . बाबूचे बायलेन विचारलें.

"वसूताई न्ही?"

"शेंवतेंआका खंय?"

''यो भितर आसा.''

हांव कुडींत गेलें. शेंवतेंआका खाटीर न्हिदिल्लें.

''शेवतेंआका हें पळय कोण आयलां.''

ताणें दोळे उगडले.

''वसू न्ही?'' तें म्हाका वळखलें.

''तूं म्हाका वळखलें?'' हांवें विचारलें.

''हांव तुजीच वाट पळयताले. म्हाका दिशिल्लेंच आजच तूं येतलें.''

''शेंवतेंआका कितें जालां गो तूं. वळखूंक लेगीत येना.''

''जिणेतले भोग कोणाक चुकतले. सगळी जीण भोग भोगपाक गेली. तुका हांवें सदांच त्रास दिले. हालीं हालीं दिसतालें मरचे पयलीं तुका मेळचें.......

नाना आयलो..... . म्हाका मेळपाचो आसलो. हांवेंच ताका तुज्यालागी धाडलो.'' इतलें उलयतना तें खरशेलें.

''म्हाका तुका खूब कितें सांगपाचें आसा. हांव सांगतां. तूं फकत आयकच. मर्दीं मर्दीं प्रश्न विचारुं नाका.'' ताणें म्हळें

''तें सांगपाकच तुका हांवें आपयलां. रती तूं भायर वच.'' थंय उबी आशिल्ले बाबूचे बायलेक ताणें सांगलें.

ती भायर गेली. वतना तिणें दार आड केलें.

''आयकय'' शेंवतें म्हाका सांगूक लागलें. हांव आयकूंक लागलें.

नाना घर सोडून गेलो.......आनी रोखडेंच हांव विधवा जालें..... .कुळारा रावंक आयलें......

नाना घर सोडून गेल्लो पूण तुजी आवय सदांच हांसरी. तिजो हांसरो तोंडावळो पळोवन म्हाका तिजी नसाय जावंक लागली. खरें म्हळ्यार आदी म्हजो सभाव गोड आसलो. उतरांय गोड आसलीं पूण घोवाच्या मरणांउपरांत ती गोडसाण वचून उतरांत वीख भरलें. हांव जळटालें...... कसलेंच सूख हांवें भोगू नशिल्लें आनी ती जळजळ उतरां कणकणी भायर सरताली. संद मेळटा तेन्ना हांव तोंड सूख घेतालें. म्हाका वोगीच तिजी तिडक येताली. नाना नाच्च जाल्लो आनी म्हजोय घोव नाशिल्लो. खरें तर एकमेकाचीं दुखां समजून घेवंक जाय आशिल्ली. पूण तिका दुखोवपाक म्हाका खोशी जाताली. राक्षसी समाधान मेळटालें.

नाना गेल्लो. पूण ती तशीच न्हेसताली. आनी हांसरी रावताली. कपडे धुतना पदां म्हणपाची तिका सवंय. आपल्या गोड गळ्यांन ती पदां गायताली. पदां गायतना तिच्या तोंडार मुमुरखो हांसो पातळतालो. कसले तरी तंद्रेंत आसल्याभशेन ती वागताली. अशें हांसरे तिका कशें रावप जमता हें म्हाका कुवाडें पडिल्लें. घोव ना. तातूंत दीस गेल्ली बायल. केदो आकांत येवपाचो. पूण तिजें सगळेंच अजाप.

तिका हांव घालून पाडून उलयतालें.

"नाना गेलो. हे न्हेसप, नटप तूं कोणाखातीर करता?" हांवें तिका एक दीस विचारलें.

"कोणाखातीर म्हळ्यार? म्हजेखातीर" तिणें हांसत जाप दिली

"घोव नाशिल्ले बायलेक हें सोबना."

"अशें कोण म्हणटा?"

"सगळो गांव म्हणटा. आमी तुजे वागणुकीचेर पांघरुण घालता म्हण."

"अशें कितें केलां हांवें. म्हाका न्हेसन दिसता. प्रसन्न रावन दिसता."

"न्हेसन दिसता खंय. मांजर दोळे धांपून दूद पिता पूण जगाचे दोळे उगडे आसतात.

"ओगीच ओपारी मारुं नाका. कितें करप हांवें. सोडून गेल्ल्या घोवाक लागून सुतकी तोंड करुन जगप. ज्यांनी म्हजी जीण हुलपायली, कसलोच परमळ जिणेंत शिंपलो ना ताका लागून दुखा गळोवप तिंय फाल्स. मनासावन न्ही अशें वागप म्हज्यान जावचें ना."

"तुज्या अश्या वागण्यांक लागून नाना घर सोडून गेलो."

ती म्हाका पळयत रावली. ती कांयच उलयना तशें हांवें म्हळें,

"आतां तोंड कित्याक धरलें?"

"म्हजें तोंड धरुंक ना. तुज्या तोंडाक लागपाचें म्हाका ना. म्हाका लागून तुजो भाव घर सोडून वचूंक ना. ताका लग्नच करपाचें नासलें. दडपण हाडून ताजें लग्न केलें मनाविरुध्द. तुमी ताजोय बळी घेतलो आनी म्हजोय"

"वयनी"

"आड्डता कित्याक आतां. तिखसाण बादली तुका म्हज्या उतरांची?'

आड्डलें म्हण सत्य लिपना. तोंडान उतर काडनासतना हांव मुकाट्यान सोंसता म्हण तुजें फावता. तूं मेळत तशें उलयता. हांव खोशी रावतां तें तुज्यान पळोवं नज. तुज्या भशेन उतरां कणकणी जळकी उतरां उलोवन, दुसऱ्यांक करटावन म्हाका जगपाचें ना. तुजेभशेन जगप म्हाका जमना."

"मागीर कितें करप. तुजेभशेन नटप मुरडप लोकांच्यो नजरो आपल्याकडेन वळोवन घेवप ?"

"ओगीच कितेंय उलोवं नाका. "

झगडपाक तिका कळनाशिल्लें. हांव झगडपाच्या नेटार येतगीर ती भितर वताली पूण तोंडावयलो हांसो, प्रसन्न रावप आनी न्हेसप तिणें सोडले ना.

१४

**ए**क दीस तिजी आनी म्हजी अशींच झगडीं पेटलीं......नानाक तिणें म्हळें,

"घरच्या दडपणाक लागून व्यक्तिमत्व खुटिल्लो तो भुरगो. ताजीच जीण ताका सावरुंक येना तो म्हाका कितें सावरतलो. असलो दादलो म्हळ्यार फकत कुंकमाक आदार".

ताणें म्हज्या भावाक म्हळें म्हण म्हाका तिडक आयली.

"म्हज्या भावाक कितेंय म्हणिल्लें हांव आयकून घेंवचें ना."

"तुजो भाव तो म्हजोय घोव लागता. पूण कसोय वागलो तरी हांवें कित्याक सोसप. आनी जो गुन्यांव करुं ना ताका लागून गुन्यांवकारी जावन तुजीं उतरां कित्याक आयकप? तूं आनी हांव समदुःखी . एकमेकांक समजून घेवपाचें आमी. पूण तूं म्हजेर जळटा. हांव तुजेर रागार ना. म्हाका तुजी काकुळट दिसता."

म्हजी काकुळट करपाची तुका गरज ना. आवयबापूय आसा म्हाका."

"तुजी म्हणजे तुजी न्ही. तुज्यातले बायल मनशेची. मनांतल्या भावनांक सांखळयांनी बांदून तूं जगता. अशें जगतना तुका कितले कश्ट पडटा तें हांव जाणा . तुका घोव ना आनी म्हजो घोव आसूनय नाशिल्लेच भशेन."

"वयनी"

"मनांतलो खरो आवाज तुवें दामून दवरला. विचारांकय बंदखणीन घाल्यात. मनांत तुजी भावना फुलता. तुकाय फुलचें, परमळचेंशें दिसता. मनांत तुकाय दिसता. दुयेंत दादल्याकडेन लग्न करुन तुजी जीण हुलपायली."

"तुजेय मनाच्या दर्यांत ल्हारां उफेतलीच."

"म्हजी भावना म्हजे सुवादीन आसा." हांवें म्हळें.

"तूंय हाडांमासाचें मगो. निर्जिव पुतळो न्ही मगो? आंगान उजो पेट्टा. तूं तोंडातल्यान उतरां कणकणी जळजळ भायर काडटा. म्हजे विचार, उलोवणें तुका पटलां. तुज्या मनातलेच विचार हांव उलयलां."

"विचार पटपाचो प्रश्नच येना. घोव नासतना अशे विचार करपय हांव पाप मानतां" हांवें म्हळें.

तशी ती हांसली ..... रातीचो वेळ आशिल्लो. तिजो तोंडावळो अजूनय याद जाता. पुनवेच्या रातीन सगळें चांन्ने तिज्या तोंडार शिंपडल्याभशेन तिजें तोड चकचकलें. मळबांत जोगूल जोगलावन वचचे तशें तिजे दोळे खिणभर चकचकलें. तिजो सुंदर लांबट, निमुळो जायत गेल्लो चंदनी तोंडावळो, गालावयली म्होवी गुलाबसाण आनी गोड म्होवें हांशें पूण त्या हांशांत खळखळती वझऱ्याचें निरागसपण आशिल्लें. पावित्र्यांचें धवेफुल्ल पातळ न्हेसून राविल्ली देवी कशी ती म्हाका खीणभर दिसली.

हांव तिका पळयत रावलें.

"पटल्यात तुका म्हजें विचार पूण ते मान्य करपाचो धीर जायना. मन हुलपता, देहय पेटता तेन्ना कितें करप असो प्रश्न मनांत येता."

"तुजें कितें म्हणणें ? संस्कार, परंपरा मोडप आनी शरीरान जे वाटेन व्हेला ते वाटेन वचप."

"संस्कार ..... परंपरा ..... ह्यो संस्काराच्यो, परंपरेच्यो वणटी भोवतणी उबारल्यो म्हण मनांतलो हुंकार, सत्य सांगपाक सोदपी अंतरमनाचो आवाज खीणभर दबता. आमीच चेंपून दवरला आमचो आवाज. बीं रुजतगीर जसो कोंब फुटता तशे विचार ल्हारांभशेन उफाळून भायर येतात. ते आमी चेपतात. मागीर मन, भावना, शरीर सगळ्यांचोच घुस्मटमार जाता" तिणें म्हळें.

"शरीर, मन, भावना सुवादीन आसा.आयकुपाक बरें दिसता. पूण आचारांत हाडपाक तितलेंच कठीण. दर एका मनशा कणकणी हाडांमासाच्यो पेशी . भावनाचें तरंग, शरिराचीं उफाळपी ल्हारां वेगळीं आसतात. मनीस तितल्यो प्रकृती. दर एक मनीस वेगळो. वयनीबाय भशेन सगळयांक देवाचे नाव घेवन जगप शक्य जातलें?.आंगातलो कणान कण भरतीच्या ल्हाराभशेन उमाळून येता आनी मन आषाढाच्या पावसान चिंब भिजपाक आशेता जाल्यार कितें करप?" तिणें म्हळें.

" तुकाच पळय. तुजी गाठ पडली पिडेस्त मनशाकडे आनी रोखडेंच तूं विधवा जालें.उमलते कळयेक सुददा फुलतना कोण आडायना.निसर्ग नियमानुसार ती फुलता.... परमळता आनी आमकांच फुलपाचो, परमळपाचो अधिकार कोणे नाकारला? नवे वाटेन वचपाचो धीर आमकां जायना. मागीर परंपरा, संस्कार, संस्कृती अशी गोंडस नावा दिवन आमी ताज्या भोवतणी वाटकुळींच भोंवतात. कोणेय उलो दिलो जाल्यार हो पिंजरो हुपून वचपाचो धीर आमचेलागी नासता. मागीर मनाचो शरिराचो घुस्मटमार करुन आमी जगतात. मागीर केन्ना केन्ना प्रकृतीची सिमा हुपून आमचें वागणें विकृत जाता. मनांत आयिल्ल्या उमाळ्याक व्हांवती वाट करुन दिली ना जाल्यार ताजें डबकें जावंक वेळ लागना."

"म्हाका तुजे विचार पटना. तूं फक्त बायल न्ही. तू घरची सून. बरे घरचे सुनेन, धुवेन अशें विचार करपय बरे न्ही" हांवें सांगलें.

"तूं कितलो तेंप रावतलें गो शेवत्या. तुजो देह जर जळटा, दादल्याचे वेंगेंक आशेता जाल्यार ह्या शब्दाचो आदार घेवन कितलो तेंप रावतलें. अख्खो जल्म पडला फुडें."

"म्हजो म्हज्या घोवाचेर मोग आसा. बायल मनीस एकदांच लग्न करता"

"लग्न जालें म्हण मोग आसता हें कोणे सांगलें तुका?"

तिजे विचार अशेच आसताले. पेटते इंगळे कशे.

"अशें अजापून पळय नाका. तुजो घोवाचेर मोग ना. फक्त परंपरेच्या

साखळयांनी तुजें मन, भावना, विचार बांदल्यात. बापायन लग्न केलें. तूं जालें. कितलो तेंप लागीं रावलीं तुमी? कल्पनेची जाळी मनीस विणता. आनी मागीर फट आशेर जगता. तशेंच तुजें जालां" हांवें तिका म्हळें.

"तुजे विचार, देह, आसक्ती हाचे भोवतणी घुटमळतात. चिखलान वळवळपी किड्याभशेन दिसतात. म्हाका हे विचार .म्हजे नितीचे कल्पनेंत ते बसना. ज्या संस्कारान हांव वाडलां त्या संस्काराक ते विचार करपय मानवना."

"निती आनी अनिती! उलोवपाक कितलीं बरीं दिसतात हीं उतरां. नैसर्गिक उमलप नितीच्या तत्वांत बसना.अशें तुका कोणें सांगलां ? नितीच्यो ह्यो कल्पना दादल्या बायलेच्या सबंधामदी कोणे हाडल्या? निती म्हळ्यार मनशाकडेन मनीसपणान वागप. दोगांयमदी मनान, विचारान, भावनेन नवें बीं रुजलें जाल्यार तें अनैतिक कशें जातलें?" तिणें म्हाका विचारलें.

अशेंच तिजे म्हजें उलोवणें जातालें. तिका दीस गेल्ले. घोव ना म्हण दुखाचे भाव तिजे तोंडार केन्ना हांवें पळयले ना. नाना ना म्हण घरांत तिजें कौतूक जालें ना. फुलां माळली ना. पूण ती संदाच तृप्त.

तिज्या उतरांनी म्हज्याय मनांत नवे विचार फुलताले. म्हाकाय दिसतालें, परत फुलचें, परमळचें. तुजो जल्म जालो. आई नानाचे वाटेन दोळे लावन बशिल्ली. तिका दिसताले नाना एक दीस तरी परत येतलो.

"तुजो तोंडावळो सारको वयनीभशेन. आई म्हणटाली."

"काय बरें पोर जालां. नशीब ना नानाक. भुरग्यांक पळोवंक म्हण तरी येवपाचो. असो भिजुडाभशेन पळून वचपाचे जाल्यार लग्न कित्याक जालो. पदरांत पोर कित्याक घालें"

"तुका वसू हें नावय तिणेंच दवरिल्लें. वसुंधरा अशें नांव दवरिल्लें तिणें कितले उमेदीन. ती म्हणटाली परी कशें बायूल म्हजें. जिणेंतलीं सगळी सुखां ताका मेळ्ळ्यार पुरो. म्हजी जीण करपली तरी कांय नजो."

शेंवतेंआका उलोवपाचें थांबलें.उलोवन उलोवन तें खरशेल्लें. उलोवन उलोवन तें धापेल्लें.

''शेंवतेंआका इतलो जीव आशिल्लो म्हज्या आवयचो म्हजेर तर जीव कित्याक दिलो? तूं तर सांगता सदाच ती हांसरी रावताली. जिणेकडेन झुजपाचें बळ तिजे लागीं आशिल्लें. जिणेकडेन झुजपाचें बळ आशिल्ले बायलेन जीव कित्याक दिलो? तेंय पदरान भुरगें आसतना'', हांवें म्हळे.

शेंवतेंआकाच्या सुरकुतिल्ल्या तोंडाचेर कितलींशीच ल्हांरां फुटलीं आनी विरलीं.

## १५

**ब**रोच वेळ शांतताय पातळली. शेवतेंआका कांयच उलयलें ना. म्हज्यान मात रावूं नज जाल्लें.

''शेंवतेंआका सांगता न्हीं.''

''हय.कशें सांगचें ? खंयच्यान सुरवात करची .आनी उतरां कशीं एकठांय करचीं तेंच चिंतता हांव'', शेवतें आकान म्हळें.

''जीव कित्याक दिलो? जीव दिल्लो थंयच्यान सांग.''

''काणी आयकल्याभशेन आयकलें मगो तुवें सगळें.''

''म्हजे जिणेचीच काणी जाल्या. काणी आनी वेगळी कशी आसता. काणीच जगतां हांव'', हांवें म्हळें

''हय बाये. काणीच जाता केन्ना केन्ना जल्माची. जीव दिलो थंयच्यान

कशी सुरु करुं ही काणी?" आपलेच कडेन उलयिल्लेभशेन तें पुटपुटलें. ती काणी तर खूब पयलींच सुरु जाल्ली. वयनीबायन ती म्हाका मरचे पयलीं सांगली, ती हांव तुका सांगतां.

नाना घर सोडून गेल्लो. ताजे उपरांतची ही गजाल. रमा बरें ना म्हण आईक आपोवंक धाडिल्ली. आई केशवाक घेवन रमागेर गेल्ली. घरांत फक्त वयनीबाय, वयनी आनी बाबा. वयनीबायच्या तोंडांत सदांच राम नामाचो जप. काम सोपलें की देवाकुडीन देवाचें नांव घेयत बसप.

दाराची खिळी वाजली तेन्नाय ती देवाकुडींत बशिल्ली. तुजे आवयन तिका उलो मारलो.

"वयनीबाय बाबाची तकली फोडटा. बाम जाय."

वयनीबाय थंयच्यान उठलीं. बामाची बाटली तिगें हिजेकडेन दिली. बाम घेवन तुजी आवय माळयेर गेली. कांय वेळ गेलो. सकल कित्याक आयली ना अशें येवजून वयनीबाय माळयेर गेली.

"तुजो हात तकलेवयल्यान फिरतगीर खूब बरें दिसलें म्हाका." वयर चडटनाच तिजे कानार बाबाचें उलोवणें पडलें. दाराच्या फाटीं दिश्टी पडना अशी रावून ती तांचें उलोवणें आयकूंक लागली.

इतल्यान तुजें आवयचें उलोवणें तिज्या कानार पडलें.

"बाबा हांव वता."

"कित्याक गो? कितें जालें?"

"कांय ना."

"कांयच जावूं ना जाल्यार भियल्लेभशेन जावन कित्याक उठले?"

"भंय दिसता म्हाका." ल्हव आवाजान तुजे आवयन म्हळें.

"भंय कोणाचो दिसता? म्हजो कांय तुज्याच मनाचो?"

ती कांयच उलयली ना.

"म्हज्या स्पर्शान तुज्या आंगांत आनी मनांत वादळ पेटलां. ताजें भंय दिसता मगो तुका? उलय मगो कांयच उलयनाशें, म्हज्या स्पर्शान तुका बरें दिसूंक ना?"

"बाबा तुमी अशें उलोवं नाकात. हांव तुमची सून."

"आगो सून म्हणूंन चुरचुरे पडटात. तूं फुलचें, परमळचें म्हण कितल्या उमेदीन हाडिल्लें. अशें जातलें हें कोणें चितिल्लें."

"बाबा तुमी कश्ट करुन घेवंक नाकात. सटये राती कपलार कोरलां तें कोणाच्यानच बदलू येना? कोणाकडेनय लग्न जाल्लें तरी म्हज्या नशिबांत जें आसा तें चुकचें नाशिल्लें."

"आवयस् कितें फोडटा तकली. बाय बाम चोळ गो मात्सो." बाबान म्हळें.

"बाबा म्हजो हात सोडात."

"आगो कितें केलां हांवें. फकत हात धरला. मायेन हातावयल्यान हात भोंवडायला. मायेन हात भोंवडायल्यार इतलें कित्याक काचाबूल जालें तूं?"

"भियेवं नाका. थरुथरुं नाका. कांयच करना हांव तुका." ताजें उलोवणें वयनीबायच्या कानार पडलें.

वयनीबायन दारांतल्यान पळयलें. बाबान तिका लागीं ओडली आनी दुसऱ्याच खिणाक ती थंयच्यान उठली. वयनीबाय दाराफाटीं आंग चोरुन रावली.

धांपेत तुजी आवय भायर आयली आनी सकल गेली. वयनीबाय तिज्या फाटोफाट देंवली. ती कुडीन गेल्ली. वयनीबायक दिशिल्लें ती रडटली भियेंतली, कितें घडलां तें तिका सांगतली.

पूण तशें कांयच घडलें ना.

तुका सांगू वसू, वयनीबायन सांगिल्ली ती गजाल म्हाका तशी याद आसा.

वयनीबाय कुडीन भितर सरली तेन्ना जनेलाकडेन ती उबी आशिल्ली. चान्ने रात ती. कुडीनय चान्ने पातळिल्लें. वयनीबाय कुडीन बसल्या म्हणपाचें तिका खबर नाशिल्लें. मनांत कसलेंशें वादळ सुरु जाल्लें आनी त्या वादळाच्यो खुणो तिज्या तोंडार पातळताल्यो. आपली मोनी व्यथा मोनीच दवरपाचो यत्न करतना तोंडार मात तिज्या कितलींशीं ल्हारां फुटतालीं.

हात्याभशेन तिजो रंग, चान्न्यान अधिकच सोबीत दिसतालो. कळयेचें फूल फुलचे पयलीं मुग्ध आसता पूण पाकळे पाकळेन उमलपाक लागतगीर तें जशें दिसता तशी ती दिसतालीं. खिणान लज्जेल्याभशेन ती जाताली तर खिणान तिज्या पोल्यार तांबसाण पातळताली. तर दुसऱ्याच खिणान चिंतेंचें जाळें तिज्या तोंडार पातळतालें.

तिजें भोळेपण, सोबीतपण वयनीबाय जाणा आशिल्ली. कांय वेळा पयलींच जें कितें घडलां तेंय तिणें पळयिल्लें. वयनीबायन तिका उलो मारलो.

"वासंती ".

तिणें तोंड धुंवडायलें. आपल्या मनांत पेटिल्ल्या वादळाचो वयनीबायक पत्तो लागचो न्ही म्हण ती कशीशीच हांसली. मनाचो निग्रह करुन ती मनाक आनी देहाकय आवरपाचो यत्न करताली.

वसू वयनीबायन म्हाका कितें सांगलें तीं उतरां तुका सांगतां, वयनीबायन म्हळें.

"तिजी अवस्था म्हाका समजताली. म्हजी जीण हुलपल्ली. राम नामाचो जप करतां करतां सगळें विसरपाचो यत्न केल्लो. नैसर्गिक आसक्तीचें, आनी वासनेचें रुपांतर हांवें आत्मिक शक्ती एकठांय करपांत घालयिल्लें. सगळ्यांक तें कशें जमतलें. दर मनीस वेगळो, दर मनशाच्या मनाचो, देहाचो धर्म वेगळो."

"वसू, वयनीबायचीं हीं उतरां. जीण भोगिल्ल्या बायलेची उतरां. देवाचीं कशीं तीं उतरां म्हाका दिसलीं."

वयनीबायच थंय चड वेळ रावली ना. भितर वचून तिणें ताटां मांडलीं. पाट दवरले. कुडीन वचून सांगलें.

"वासंती बाबाक जेवपाक उलो मार".

कांयच खबर ना अशी वयनीबाय वागली आनी कांयच घडू ना शें तुजी आवय वागली.

तिणें बाबाक उलो मारलो. कांय वेळान बाबा आयलो. देराफुडें वयनीबाय केन्नाच वचनाशिल्ली.

"वासंती सगळें जेवण दवरला. बाबाक वाड". वयनीबायन सांगलें,

बाबाक ती वाडपाक गेली.

"बाबा वयनीबाय पळयत. सोड म्हजो हात." ल्हव आवाजान तिणें म्हळें.

वयनीबायन दारांतल्यान पळयलें. शालिनतेचो हुंबरो हुपून निर्ल्लज्ज नदरेन तो तिका पळयतालो आनी तीय लजताली. ताणें परत तिजो हात धरलो.

"कोणीय पळयत."

"आतां कशें मनातलें उलयलें. म्हजो भंय दिसना मगो. फक्त वयनीबाय पळयत म्हण भिता. वयनीबाय पळयल्यार पळोवनी. तूं भियेवं नाका. आजून ह्या घरांत म्हज्या विरुध्द उलोवपाचें काळीज जावंक ना. म्हजे बायलेक लेगीत धीर ना. वयनीबाय कितें करतली?"

कांय वेळ शांततायेन गेलो. परत वयनीबायच्या कानार उतरां पडलीं.

"आगो अशें आंग चोरुन कित्याक बसता? लजेचो, संस्काराचो, संकोचाचो हो मुखवटो पांघरुन वावुरतना तूं बरें दिसता? तुजें खरें मुक्त रुप कितलें सोबीत. एकटेंच आसतना काल हांवें तुज्या मुखावयले भाव निरखिल्यात. अशें अजापान कित्याक पळयता? आनी आंगभर पदर कित्याक गुटलायलो. काल तूं कितलें सोबीत दिसतालें न्हातना."

"न्हातना?" तिणें विचारलें.

"हय. तोंडार हे भय, संकोचाचें जाळें, चिंतेची सावळी कांयच नाशिल्लें. एकाद्रें सवणें आपलीं पाखां झरीच्या उदकार धरुन न्हाता तशेंच मुक्त. काल रातचें तूं दिसलें. हांव तुका पळयतां म्हणपाचें तुका खबर नाशिल्लें. हांवय तुका पळोवंक म्हण रावूं नाशिल्लो. योगायोगान थंय पावलों. कांकणाचो आनी उदकाचो आवाज कानार पडलो. थारलों जाल्यार तूं."

पयसुल्यान म्हाका सारकें दिश्टी पडनाशिल्ले. धुकें पडतगीर भोवतालचो सैम दिसता तशें तूं दिसतालें. वाटयेंतलें कितेंतरी काडून तूं आंगार चोळटालें. तुज्या देहार तुजी नदर भोंवताली. तोखणायेन तूं आंगाक हात लायतालें. आनी मर्दीच दोळे धांपतालें. हुनहुनीत उदकाचे तांबये तूं आंगार पडटा थंय थिरावताली. दवाचे थेंबे कळयेचेर पडतगीर कळी दिसता तशें तूं म्हाका दिसलें.

तुज्या देहाचेर म्हजी नदर चिकटली. विचार मात तुज्या मना भोवतणी घुंवताले. आंगाक हात लायतना तूं दोळे धांपतालें. तूं दोळे परत उकते करता तेन्ना तुज्या मनान कितें चल्लां तें म्हाका कळटलें कशें ? हांव इतलो उलयलों पूण तूं अजूनय संकोचाचो पडदो उडोवन मेकळेंपणान उलयना. न्हंयचें मूळ आनी गडपीचें कूळ सोदपापरसय बायलांच्या मनांत कितें चल्लां तें सोदप चड कठीण. तूं कांयच उलोवचें ना. सांगचेंय ना. पूण काल म्हज्या मनांत तुजोच विचार घोळटालो . तूं आंगाक हात लायतालें. दोळे धांपतालें. पूण तुज्या स्पर्शान तुजे आंग चवरतलें कशें?

"बाबा तुमी जेवून घेयात?" तिणें म्हळें.

"आगो विशय टाळपाचो यत्न करुं नाका. खरें सांग म्हाका, तुज्या स्पर्शान तुजें आंग कशें चंवरतलें ? त्यो सुखदिण्यो झिणझिण्यो येवंक जाय तर....

"बाबा."

"तूं म्हजीं उतरां मर्दीच तोडटा. म्हाका उलोवंक दिना. पूण म्हज्या उतरांनीय तुका कातकुतल्यो जातात आनी तोंडारय तांबसाण पातळता. तूं बावंक फावना.

तूं फुलूंक जाय......परमळूंक जाय... ...पळय तुज्या तोंडावयले भाव बदल्लें. तुज्या मनांत झगडें चल्ला. निसर्गासारकें वागचेशें दिसना. पूण रुजिल्ल्या कोथ्या संस्कारांची माती घालून तूं तें चेपोवन दवरता. तुजें एक मन तुका सांगता तुकाय फुलपाचो अधिकार आसा. कळी उमलता ती फुलपाक, फुलनासतना, परमळ नासतना गळून कित्याक पडप? आनी दुसरें मन फाटी ओडटा हय मगो."

"बाबा पुरो आता. हातार उदक घालतां."

"हांव उठतां पूण तूं शांततायेन विचार कर".

बाबा गेलो. वयनीबाय भितर सरली तेन्ना ती हातांत तांबयो घेवन पुतळ्याभशेन उबी आशिल्लो. वयनीबायन तिका विचारलें.

"वासंती कितें जाला गो तुजें?"

"वयनीबाय परतून परतून कितें जाला, कितें जाला अशें कितें विचारता ? कितें जातलें म्हजें" ती वयनीबायचेर तिडकली. ताजे पयली तिणें वयनीबायक केन्नाच परती जाप दिवंक नाशिल्ली वयनीबायन तिका म्हळें.

"जेवया मगो आमी"

"तूं जेवन घे म्हाका भूक ना" तिणें जाप दिली.

ती कुडींत गेली. वयनीबाय जेवंक बसली पूण तिकाय उणी गेली ना. ती तशीच उठली. रादचें कुडींतलें सगळें जाग्यार घालें. तिज्या मनांत आयलें, वासंती भुरगें, ताका जपूंक जाय. ती आपलें हांतूण आनी उशें घेवन तिजें कुडींत आयली.

"वयनीबाय आज हांगाशी हांतूण घेवन आयल्या?"

"आगो तूं एकलेंच जातलें. घरांतय आज कोण ना. हांवें येवजिलें गजाली करत सांगातान न्हिदया."

"आजच हांव एकटें? हांव सदांच एकटें आसतां. सगळो जल्म एकटोच सारपाचो आसा. तूं वच तुजे कुडींत." तिणें म्हळें.

मनांत थंय रावपाचें आशिल्लें. पूण कितें करतली? ती आपले कुडींत आयली. बरोच वेळ जागत रावली. कांय वेळान तिका दोळो लागलो. बऱ्याच वेळान तिका जाग आयली. माळयेच्या सकलच तिजी कूड. माळयेवेल्यान पावलांचो आवाज आयलो. काकणांय किणकिणलीं. तिज्या काळजान कच्च जालें. मनांत आयलें, वांसती बी न्ही मूं ? विचारानच पायाचें बळ गेलें . पूण तशीच ती उठली. तिजे कुडीचें दार उकतें आशिल्लें आनी माळयेवयल्यान वासंती देंवतालें.

शेंवतेंआका उलोवपाचें रावलें.

"वसू हांव तुका बीं तशें भात म्हणटालें. वयनीबायन जेन्ना म्हाका न्ही गजाल सांगली तेन्ना दिसलें खंयचीं पाळां उस्तयतलें? खंय सोदतलें मुळा?"

शेवतेंआकान सुस्कारो सोडलो आनी म्हळें,

" खरेंच वसू आमी इतलीं लागीं रावतात, एकामेकांक वळखतात अशें म्हणटात पूण कितली आसता आमका एकमेकांची वळख."

"खरें तुजें शेवतेंआका. एक मनीस दुसऱ्या मनशाक खरोखुरो केन्नाच वळखूंक शकना. वळख आसता ती वयली वयली. एकामेकां सांगातान जीण घालयतगीर सुध्दा, मना जुळटगीर सुध्दा आमी एकमेकांक पूर्ण वळखलीं अशें म्हणपाचो धीर जायना", हांवें म्हळें,

शेंवतेंआका वोगी रावलें.

१६

"वयनीबायन जेन्ना म्हाका ही गजाल सांगली तेन्ना केन्नाच पयलीं अणभवूं ना अशें एकटेंपण हांवें अणभवलें", शेवतेंआकान म्हळें.

गजाल आयकतगीर याद जाली तुजे आवयचीं उतरां. हो म्हजो एकट्याचोच आनी तुजो प्रश्न न्ही. ज्या ज्या बायलांचो प्रश्न ज्यांची जीण अशी करपल्या तांचेकडेन परंपरागत विचार, रुढी, संस्कार, घराण्याचें व्हडपण हे नदरेन पळयनासतना मनीसपणाचे नदरेन पळयल्यार तुका तांचे प्रश्न कळटले. तांची व्यथा कळटली. पूण कोण पळयता तांचेकडेन ते नदरेन.

ती रात म्हाका याद जाली. म्हाका न्हीद लागनाशिल्ली. हातुंणार हांव तळमळटालें. इतले दीस म्हज्या मनाक हांवेंच अनोळखी केल्लें. मनातले उमाळे दामून दवरिल्ले. पूण आज सांखळयांनी बादूंन घाल्ले उमाळे वयर सरताले.

एक मन म्हाका सांगतालें,

"कितें कमी आसा तुका. आवयबापायचो आदार आसा. तुज्या नशिबांत सूख ना म्हण घोव गेलो. नशिबांतले भोग भोगचेच पडटात. रडटलें कोणाक? "

दुसरें मन सांगतालें,

"आवयबापायचो आदार आसा हें खरें - फकत अन्न, वस्त्र आनी रावपाचो प्रश्न सुटलो म्हणटगीर जालें. फुडें अख्खो जल्म पडला. तो कसो घालवप. कोण भरुन काडटली ही मनाची पोकळी. एकलेपणाची ही जीण कासवाच्या पावलांनी फुडें सरता. कशें जगप हांवें ?"

म्हजे मनाचे पाटयेर आसक्तीचे रंग रंगूक लागले.

इतल्यान.......

म्हजे कानार किळांच पडली. जिवाच्या आकांतान हांवें हालोवन तिका उठयली.

"आई..... ये आई उठ मगे."

"कितें जालें गो शेंवत्या?" तिणें म्हळें.

"आई कोणे तरी किळांच मारली. तुवें आयकूं ना? "

"हांवें आयकूंक ना. तू न्हीद वोगी. तुका भास जाला आसतलो."

"ना गे आई भास न्ही खरेंच हांवें किळांच आयकल्या."

"कोणाकय न्हीद लागतगीर सपनां पडटात. तूं दोळे उकते आसतनाच सपनेता. शेंवत्या वोगी न्हीद. रातची न्हीद पडना जातगीर दिसाचो जीव घुंवळटा म्हजो", आईन म्हळे. तिणें कूस परतिली आनी दोळे धांपलें.

इतल्यान कुत्र्यांचो भुंकपाचो आवाज आयलो आनी फाटोफाट तुज्या रडपाचो आवाज. तूं व्हडाव्हडान रडटालें.

"आगो शेंवत्या वसू रडटा न्ही गो ? वासंती उकलना कशें ताका ?" आईन विचारलें.

हांव हातुंणावयल्यान उठलें. आनी वयनीचे कुडींत आयलें.... . तू पाळण्यांत रडटालें. वयनी कुडींत नाशिल्ली. खंय गेली काय वयनी. तुका हांवें उखल्लें पूण रडपाचें कशेंच रावना. हांव आई लागी आयलें.

"आई हें रडपाचें थांबना. वयनीय कुडींत ना."

आई उठली,

"आगो तूं आंताच म्हणटालें न्ही गो किळांच आयकली म्हण?" आईन म्हळें.

"हय गे पूण तुवें म्हाकाच पिशान काडलें." हांवें म्हळें.

आई उठली. मागील दारांत गेली. "वासंती ये वासंती" तिणें कितले उले मारले. तिज्या बोवाळान वयनीबाय उठली. सगळें घर जागें जालें.

पूण वासंतीचो पत्तो ना.

"इतले राती बाये खंय गेलें हें. केशव बाबा पॅट्रोमास पेटय. सगळ्याक सोद. देवा पाव रे सायबा" आई देवाक उलो मारताली.





"पापणीन जीव बी दिलो ना म्हू?" वयनीबायन म्हळें.

"केशवा सोद रे बाबा. खूब सोसलें. ह्या घरांत येवन कितेंच बरें जालें ना तिजें." आई एकसारकी उलयताली.

बांयचेर सगळीं धांवलीं. केशवान बॅट्री दिवो पेटयलो. बांयत कितें

पळयतली.......

"आई वयनीन जीव दिला"...... केशवान सांगलें.

"बेगीन वयर काडात रे बाबा. जीव आसत एकाद्रो आतांच शेंवत्यान किळांच आयकल्ली. म्हाका खंयची बुध्द आयली. रोकडेंच पळयिल्लें जाल्यार.

केशव बांयत देंवलो. बाबुसोय देंवलो..... बांय ल्हानशीच ......सपणांची. ... तिका वयर काडली... ...

वयर काडली पूण तिजो जीव गेल्लो. उजव्या हाताची मूठ घट्ट आवळिल्ली. मुठींत बाबाची सरपळी आशिल्ली.

"ही तुमगेली सरपळी म्हू!" आईन बाबाक म्हळें आनी ती घुंवळ येवन पडली.

आपलेच दांत आनी आपलेच ओंठ. कोणाक सांगतली. बांयचेर ती कित्याक गेल्ली? तिणें जीव दिलो? काय तिका धुकलून उडयली..... कांयच कळळें ना.

"ती जीव दिवपाची न्ही." वयनीबाय परतून परतून म्हणटाली.

पूण जीव दिवपाचो न्ही अशें वयनीबाय परतून परतून कित्याक म्हणटाली तें कळळें वयनीबायन ती गजाल सांगतगीर.

शेवतेंआका उलोवपाचें थांबलें.

"वसू तूं आयलें. तुजेकडेन उलयलें. मनावयलो भार देंवलो. कितलो तेंप मनार हो भार घेवन हांव राविल्लें. दिसतालें कोणाक तरी सांगचें, मन मेकळे करचें. पूण सांगतलें कोणांक? "

हांवें सगळी काणी कशी आयकली. शेवतेंआकाचें सांगून सोपलें. म्हजे पुराय जिणेक कोणेतरी हालोवन उडयिल्ल्याभशेन जालें. चड वेळ थंय रावूंक नजो जालें..... तिनसांज जायत आयिल्ली म्हाका परतून येवपाचें आशिल्लें.

"शेवतेंआका येतां हांव", हांवें म्हळें.

"कांयच घेतलें ना तुवें? च्या तरी घे. रतीक सांगतां. रती ये रती, ताणें रतीक उलो मारलो." नाका शेंवतेंआका तिनसांज जाली. म्हाका घरा पावंक जाय.

"तुका राव तरी कशें म्हणटलें. तुजेर केदो व्हडलो प्रसंग आयला. पूण म्हजो रकाद पावना फुडें तू आयलें ....तूं गोंयात येयत, मेळत अशें हांवें मनांत लेगीत हाडूं नाशिल्लें. जाल्यार मनांत घुसमटत एकदीस दोळे धांपतलें आशिल्लें."

हांव शेवतेंआकाचो निरोप घेवन भायर सरलें. घरांतल्यान पांय भायर काडटना मनांत कितल्योश्योच यादी याद जाल्यो. दोळे दुकांनी भरले.

गाडयेन बसलें.... .गाडी धांवताली..... म्हजें मनांत आयलें,

"मनशाची जीण प्रकृती, संस्कृती, विकृती, भावना, आसक्ती, नातीं आनी मनीस कसो वागत तें सांगू नजो. म्हज्या जल्माविशीं कितलेशेच प्रश्न मनांत पडिल्लें ते सुटिल्ले. पूण नवे प्रश्न निर्माण जाल्ले. ताजीं उत्तरां केन्ना मेळटलीं. घडये ही जीण सोपतली"

"सोपली म्हजी काणी. मनातले उमाळे कोणाक तरी सांगन दिसतात..... शेवतेंआकाक म्हाका सांगन दिसलें ... .आनी मातें मासतना म्हाका तुका सांगन दिसलें".

ती उलोवपाची थांबली.

तिजी काणी सोपिल्ली. म्हज्यां मनात मात कितलेशेच प्रश्न सुरू जाल्लें.

मनशा मनशांतल्या संबंधाविशीं कितलेशेच प्रश्न.....





## सुजाता सिंगबाळ

एम्. ए. मेरेन शिक्षण घेवन अध्यापन हो आपलो व्यवसाय म्हूण आपणायलो.

मराठी आनी कोंकणी भाशेंत लेखन. कथा, कादंबऱ्यो बरयल्यात आनी इनामां फाव जाल्यांत.

सरस्वती मंदिर पुरस्कृत लक्ष्मणराव सरदेसाय कथा सर्तींत, कोंकणी विभागांत सतत दोन वर्सां इनामां फाव जाल्यांत.

आकाशवाणी पणजी केंद्रावेल्यान साहित्याचें प्रसारण.

'स्नेहबंध' ह्या कथासंग्रहाक गोमंतक मराठी अकादमी आनी गोमंत विद्या निकेतनचो साहित्य पुरस्कार.

'ही वाट चालताना' हे कादंबरीच्या हात बरपाक नागपुरच्या 'लाजरी' मासिकाचो कादंबरी लेखनाचो पुरस्कार आनी मराठी अकादमीचें प्रकाशन अनुदान फाव जालां.